# ಉಜ್ಯಾ ತುಜ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್

ಶಿಜ್ಲೆಲ್ಯೊ ಕವಿತಾ





ಜೊ.ಸಿ. ಸಿದ್ದಕಟ್ಟೆ, ಕಾರ್ಮೆಲಿತ್



## ಕವಿಚಿ ವ್ಹಳಕ್

ಜೊ.ಸಿ. ಸಿದ್ದಕಟ್ಟೆ, ಕಾರ್ಮೆಲಿತ್ - ಮಂಗ್ಳುರಿ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಮಾಜೆಕ್ ವ್ಹಳ್ಕಿಚೆಂ ನಾಂವ್. ಬಾಪ್ ಜೊಸೆಫ್ ಸಿರಿಲ್ ಡಿ' ಸೋಜಾ, ಗಾಂವಾನ್ ಸಿದ್ದಕಟ್ಟೆಚೆ ಜಾವ್ನಾಸೊನ್ ಪ್ರಸ್ತುತ್ ಬಾಳೊಕ್ ಮರಿಯೆಚಿ ಫಿರ್ಗಜ್, ಬಜ್ಜೋಡಿಂತ್ ಆಪ್ಲಿ ಯಾಜಕೀ ಸೆವಾ ದೀವ್ನ್ ಆಸಾತ್.

ಪಾಟ್ಲ್ಯಾ ಸುಮಾರ್ ಪಂದ್ರಾ ವರ್ಸಾಂ ಥಾವ್ನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿಂತ್ಲ್ಯಾ ವೆವೆಗ್ಳ್ಯಾ ಸಾಹಿತ್ಯ್ ಪ್ರಕಾರಾಂನಿ ಆಪ್ಲಿಚ್ ಖಾಸ್ ಮ್ಹೊರ್ ಮಾರ್ನ್ ಆಂಯಿಲ್ಲೆ ಸಂವೇದನ್‌ಶೀಲ್ ಆನಿ ಸೃಜನಾತ್ಮಕ್ ಕವಿ ಆನಿ ಬರವ್ಪಿ ತೆ. 2008 ಇಸ್ವೆ ಥಾವ್ನ್ ತಾಂಚ್ಯೊ ಕೃತಿಯೊ ಎಕಾ ಪಾಟ್ಲ್ಯಾನ್ ಏಕ್ ಪರ್ಗಟ್ ಜಾವ್ನ್ ಆಯ್ಲ್ಯಾತ್. ತೀನ್ ಕವಿತಾ ಪುಂಜೆ, ಏಕ್ ಸೃಜನಾತ್ಮಕ್ ಅಂಕಣ್ ಬರ್ಪಾಜಮೊ, ಆನಿ ಏಕ್ ಖುರ್ಸಾ ವಾಟೆ ನಿಯಾಳ್ - ಹಿಂ ತಾಂಚಿಂ ಯೆದೊಳ್ಚಿಂ ಪುಸ್ತಕಾಂ. ತ್ಯಾ ಶಿವಾಯ್ ಅಪೂರ್ಭಾಯೆಚೆ ನಾಟಕ್ ತಾಂಚ್ಯಾ ಅಖ್ಲೆನ್ ವ್ಹಾಳ್ಳೆಲೆ ಜಾಂಲ್ತಿ ಪ್ರದರ್ಶನಾಂ ದೆಕುಂಕ್ ಸಕ್ಲ್ಯಾತ್. ಸದಾಂಚ್ ಕೊಂಕ್ಣಿಕ್ ನವೆಂ ಕಾಡಿಚೆ ಮ್ಹಣ್ ಆಶೆಂವ್ಚ್ಯಾ ತಾಣೆಂ ಕಾಂಯ್ ಘೊಡ್ಯಾ ನವ್ಯಾ ಸಾಹಿತಿಕ್ ಪ್ರಕಾರಾಂನಿ ಆಪ್ಲಿ ಶ್ಯಾತಿ ದಾಕಯ್ಲ್ಯಾ. ನ್ಯಾನೋ ಕಾಣಿಯೊ, ಹಾಯ್ಕು (ಜಪಾನೀಸ್ ಪ್ರಕಾರ್), ಸಿದ್ದ ಶಾಸ್ತಿರ್ (ವಚನ ಸಾಹಿತ್ಯ್ ಪ್ರಕಾರ್), ಪದ್ಯ್ ಗದ್ಯ್ ಮಿಸ್ಳಾಲ್ಲೆಂ ಬರಪ್.. ಹಿ ತಾಂಚಿ ಆಸಕ್ತ್ ಆನಿ ಕೊಂಕ್ಣೆಕ್ ದಿಲ್ಲೆಂ ನವೆಂಸಾಂವ್.

ಪ್ರಸ್ತುತ್ ನಮೂನ್ ಬಾಳೊಕ್ ಜೆಜು, ಕೊಂಕ್ಣಿ ಮ್ಹಯ್ನ್ಯಾಳ್ಯಾಚೆ ಸಹಸಂಪಾದಕ್ ಜಾವ್ನ್ ವಾವ್ರ್ ದಿತಾತ್. 'ಕಾಳ್ಮಾಗಾಜ್' ಮ್ಹಳ್ಳೊ ಬ್ಲಾಗ್ ಸಯ್ತ್ ತೆ ಚಲವ್ನ್ ಆಸಾತ್.

# ಉಜ್ಯಾ ತುಜ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್

ಶಿಜ್ಲೆಲ್ಯೊ ಕವಿತಾ

ಮೊಗಾಳ್ ಮೆಲ್ವಿನ್
ತುಮ್ಚ್ಯಾ ಸ್ವಯ್ಲ್ಯಾ ಅಭಿಮಾನಾನ್
ಹಿ ಭೆಟ್ ಹುಬೆತ್ತಿಂ
ಜೊ.ಸಿ. ಸಿದ್ದಕಟ್ಟೆ ಕಾರ್ಮೆಲಿತ್
22/6

**ಜೊ.ಸಿ. ಸಿದ್ದಕಟ್ಟೆ, ಕಾರ್ಮೆಲಿತ್**

ಧ್ಯಾನವನ ಪ್ರಕಾಶನ್
ಬೆಂಗ್ಳುರ್

ಉಜ್ವ್ಯಾ ತುಜ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್ – ಜೊ.ಸಿ.ಸಿದ್ದಕಟ್ಟೆ, ಕಾರ್ಮೆಲಿತ್ ಹಾಂಚ್ಯಾ ಲಿಖ್ಣೆಥಾವ್ನ್ ಉದೆಲ್ಲೊ ಕವಿತಾ ಜಮೊ. ಹೊ ಪುಸ್ತಕ್ ಧ್ಯಾನವನ ಪ್ರಕಾಶನ್, ಬೆಂಗ್ಳುರ್–560052 ಹಾಣಿಂ ಪರ್ಗಟ್ಲಾ.

ಪಯ್ಲೊ ಛಾಪೊ : ದಸೆಂಬ್ರ್ 2015
ಹಕ್ಕಾಂ : ಜೊ.ಸಿ.ಸಿದ್ದಕಟ್ಟೆ, ಕಾರ್ಮೆಲಿತ್
ಫೋರ್ ವಿನ್ಯಾಸ್: ಲಾರೆನ್ಸ್ ಮಿರಾಂದಾ @ ಕೊಲೋಸಿಯಾ ಕ್ರಿಯೇಶನ್ಸ್
ಪಾನಾಂ : 136
ಮೋಲ್ : 100.00

उज्या तुजये वेंगेंत – जो.सी.सिद्दकट्टे कारमेलीत हांच्या लिखणेथावन उदेल्लो कविता जमो. हो पुस्तक ध्यानवन प्रकाशन बेंगळूरू – 560052 हाणीं पर्गटला.

पयलो छापो : दसेंबर 2015
हककां : जो.सी.सिद्दकट्टे कारमेलीत
फोर विन्यास : लोरेन्स मिरांदा @ कोलोसिया क्रियेशन्स
पानां : १३६
मोल : १००.००

ISBN: 978-81-89144-25-8

**Dhyanavana Publications**
(Unit of Dhyana Jyothi Trust)
Cloistered Carmel Annex, 14, Ali Asker Road
Bangalore - 560 052 Karnataka - INDIA
Phone : 080-22356946
Email : dpublications7@rediffmail.com
Website : www.dhyanavanapublications.com

Printed at Matha Prints, Bangalore – 560 068
Ph: +91 9886809060

ಕಲ್ಪನಾಂಚ್ಯಾ ಮಂದಿರಾಂನಿ
ಸಾಳಿಯಾಪರಿಂ
ಜಾಳಾಂ ವಿಣುನ್ ಅಸ್ತಾನಾ
ಉಜ್ಯಾಂತ್
ಜಿವೆಂಚ್
ಜಿಣ್ಯೆ ಕಾಪಾಂ
ಭಾಜುನ್ ವೆಚಿಂ ದಾಕವ್ನ್
ಜಾಗಯಿಲ್ಲ್ಯಾ
ಮೊಗಾಚ್ಯಾ
ಬಯ್ಯಾಕ್
ಅರ್ಪಣ್

कल्पनांच्या मंदिरांनी
साळियापरीं
जाळां विणून अस्ताना
उज्यांत
जिवेंच
जिणये कापां
भाजून वेचीं दाकवन
जागयिल्ल्या
मोगाच्या
बययाक
अर्पण

पयलें वाचापः

## उज्याच्ये वेंगेंत जिविताचे पुसपुशे

प्रसतावनाचीं उत्रां बरंवच्ये खातीर कवी बाप जो.सी.न् ताच्या कवितांचो घोस म्हजेलागीं दीवन, "म्हज्या कावयापेळ्याक 'उज्या तुजये वेंगेंत' नांवान वोलायलां" म्हण सांगताना म्हज्या मती पडद्यार नवेंबर महिन्यांत म्हाका भुलयिल्लीं, म्हज्या मनाक चाळवयिल्लीं उज्यांचीं दृश्यां एकेकच पाशार जालीं. अल्मांचा दिसा सिमिस्त्रिंच्या फोंडावयर जळल्ले वार्तिंचो उंजो, नवेंबर १३ तारिकेर फ्रान्स देशाच्या प्यारिस श्हेरांत धार्मिक मूळभूत्वादिंनी, आकांतवादिंनी बंदूकेच्या गुळ्यांचो उज्या पावस वोतून लोकाची हत्त्या केल्ली टिविर पळेल्लीं पिंतुरां, त्याच वेळीं प्रादेशिक माद्यमांनी प्रसार जाल्लीं, आमच्याच भोंवारांत मतांदळ्यानी बससांक, आंगडींक जळवन भिरांत उटयिल्लीं दृश्यां, ह्या गलाव्या मधेंय दिवाळी फेस्ताचो संभरम प्रसारचो उज्या खेळ, पटाकयो, घरा दार्वव्या मुखार जळचे दिवे... जोसिच्या कवितांच्या गुंडायेक हळवायेन देंवताना म्हाका कळीत नातललेपरीं, मतींत छापल्ल्या उज्या चित्रांचेर कवीन घुंतल्ल्या उतरांच्या कावयाशेल्याचें धांपण पांगरालें. त्ये घडये जोसिन दाकवन दिल्ल्या उज्याच्या मोवाळ वेंगेंत हांव पावल्लों. त्ये वेंगेंत जोसिच्यो हरयेक कविता उज्याच्यो जिबो जावन मनाक पोशेवन काळजालागीं पुसपुस्ताना, कवी संगीं जिणियेच्या आर्थाच्ये सोदनेंत हांवी मेतेर जालों.

कवी जोसिक हांव पाटल्या धा वर्सां थावन पत्रांनी, जाळी जाग्यांनी वाचून आसां तर्य ताका खासगेन मेळल्लों २०१४ इस्वेंत. म्हज्या 'अंजुराचें पान' पुस्तकाक कर्नाटक साहित्य अकाडेमिचो पुरस्कार मेळताना, जोसिक अकाडेमिचो युव पुरस्कार लाबल्लो. धारवाडंत जाल्ल्या पुरस्कार संभ्रमांत वांटो घेवंक आमीं सांगाता पयण केल्लें. त्ये वेळीं आमकां एकामेका समजूंक, साहित्याविशीं, जिविताविशीं, कावयाविशीं गजाली करूंक आवकास लाबल्लो. तो प्रायेन म्हजेपरास वीस वर्सां ल्हान तरी ताच्या प्रभुद्ध चिंतपान म्हाका पिशयार घाल्लें. ह्या पुस्तकांतली पयली कविता 'मठवासिची कविता' कविची वळक कर्न दिता आनी कवीन विंचल्ल्या जिणिये वाटेची आनी ताच्या चिंतपाची दिशा दाकवन दिता.

खंच्यागी एका दिसा
अवचित एक पुसपुसोशें आयकून
गक्क कर्न रावलों,

तोच परत आयकूंक
हळू चलून व्हेतां.. दरवड ना.....

हेच वाटेन परत परत व्हेची
गिरांत म्हणशात तुमी
खरें, कोणी हे वाटेन येत म्हण
हांवें चलूंक सुरू केल्लें न्हय!

जोसी थंय हांवें पार्किल्लो खास गूण – खंच्याय समाजीक संगतीं थंय ताची अभिपराय गिन्यान आनी जाणवायेन भरलेली असोन ती सुर्वेर थावन स्पश्ट. कसलयाच संसारी मुलाज्यांक वोंदानास्तां स्वंतपणीं विंचून काडल्ली ताची वाट स्पश्ट आनी खचित. पुण ह्या मठवाशिचीं चिंतनां भोव संकीर्ण. त्या चिंतनाक रूप दिंवच्यो कविता पयलें पावटीं वाचताना, मतींत उदेंवचीं सब्दांक मिकवाल्लीं अस्पश्ट रुपणीं संबंध जोडूंक हाळवायेन आपवन आसात तशें भोगता. ह्या रुपण्यांचे मिस्तेर समजूंक विचित्र आतुराय उबजाताना, तीं रुपणी काव्यरसिकाच्या मतीक कवितेच्या गुंडायेक वोडन वरतात. त्ये गुंडायेंत उमाळून व्हाळच्या काव्यरोसाची रूच चाकताना हो रोस अमच्याच जिविताचो खरो सत्व म्हण वळकून घेंवचो स्वाधिक अनभोग वाचप्याक जांवच्यांत नवाल ना. आपल्या काव्यझरिलागीं वाचप्याक एकवटांवचे खातीर कवीन रचल्लीं रूपकां आनी मती पड्‌ह्यार ताणें सब्दांनी पिंत्रांवचीं जिविताचो अर्थ उचार्न सांगचीं पिंतुरां विजमित करतात. दाखल्याक 'जातरो' कविता. कवितेचें नांवच वाचप्यांचो अनभोग उसवन ताणीं पळेयिल्ल्या जात्र्याचें दर्शन दिता तर कवी सवकास सब्दांनी त्या दृश्याक आपणाच्या विचारांचे रंग दिता, अर्थ दिता. भितरल्या दिव्याक वळकानास्तां एकसुरें मरोंक सोडून मतीक फसंवचा क्षणीक पर्जळाक भुलच्या मनशा स्वभावाचो विमर्सो कर्न सांगच्ये ह्यो कवितेचें निमाणें दृश्य, लौकीक वोंदोवणेक वळग जाल्ल्या मनशाच्या अत्म्याची स्थिती पिंत्रायता:

भुरगीं पाटीं येतात
हातांत सुरुसुरू कड्डी घेवून
मिणकुंची चिमणी दीर्घ स्वास घेवून
प्राण सोडता.

जिविताच्या खऱ्या अर्थाच्या नियाळाक देंवंवच्यो, तत्वशास्त्राचें सत्व अनी तत्वांनी पिकल्ल्यो थोड्योश्यो कविता ह्या पुस्तकांत असात. सताचें खरें रूप दोळे भर्न देखची जब्बोर आशा जोसिच्या असल्या कवितांक दिशा दिता. 'उज्या तुजये वेंगेंत' असलयाच कालेतिची कविता. अमच्या इंद्रियांक,

गिन्यानाक आनी राजांवाक मिकवाल्लीं सतां आसात म्हण दाकवंक कवी ह्या सतांचेर अपल्या मिस्तेराभरीत कवितांची किरणां रोंबयता! 'फाशी' 'आमी दोगांय एक' 'चोर येवन गेल्ला' 'फसलों' 'रायालागीं' असल्या वर्गाक मेळच्यो मिस्तीक कविता. हीं सतां लोंकडाचा चण्यासार्कीं कठीण. कविताय तश्योच संकीर्ण! ह्या कवितांक हटान पोट्लुन घेवन्ंच् रावल्यार कांय निमाणें रसिकाच्या आशेच्या धावेक कडोन भितरलो घुट फोड्न उगतीं जातीत कोण्णा! जोसिक ह्याच वर्सा २०१५ एपरील म्हयनांत याजकपणाची दीक्षा मेळल्ली. ह्या पुस्ताकांतल्यो चडावत कविता ताणें पाटल्या पांच वर्सांनी याजकपणाचें शिकाप जोडन आसताना बरयिल्ल्यो असात. आशें म्हणताना वाचप्यांक सुर्वेर्च एक निरोप दिंवची गर्ज दिस्ता. जर वाचपी ह्या मठवासिच्यो कविता फकत आध्यात्मिक चिंताप उटंवच्यो आनी तत्व शास्त्राचो गिरोप भरल्ल्या श्लोकांनी पर्गटलेली सुवारता म्हण सीमीत चिंताप घेवन सुर्विल्यो दोन कविता आनी निमाण्यो दोन कविता आमसोरान वाचून बूक तुरतान कबाटांत रिगयतीत तर, ह्या पुस्तकांतल्या हर कवितेंतल्या पंगती पंगतिनी, स्तरां स्तरांनी, सब्दां सब्दांनी दाळमां बिंयांपरीं रोंबोन रावल्लो जिविताच्या अगाध सुखाळ अनभोगाचो रोस भेश्टेंच होगडायजे पडात.

हें कित्याक सांगतांगी म्हळ्यार, जोसिन कोंकणी कावया शेतांत एदोळच आपलें नांव थिरायलां. आपल्या एकविसाव्या प्रायेर्च २००८ इस्वेंत प्रकट जाल्ल्या ताच्या पयल्या 'पावसा धोणु' कविता संग्रहांतल्या कवितांक वाचताना कोंकणेचो महान कवी मेल्विन लुद्रिकाक 'साताचे सत्तर रंग' दिसल्ले आनी 'कांडियेर आस्तानांच बोंडियेर येंवचीं लक्षणां' ताका झळकाल्लीं! २०११ इस्वेंत प्रकट जाल्ल्या जोसिच्या 'मोरान सांडलेलीं पाकां' कावया मुखांत्र कोंकणी कावया शेताक नवय कवितेंची अपूर्व काणीक लाभल्या म्हणयेत. त्या उपरांत जोसिन कोंकणी काव्यांत अपलेच खास नवे नवे प्रयोग केल्यात. गद्य आनी कावयें सांगाता हाडन २०१३ वर्सा प्रकट जाल्ल्या ताच्या 'यू टर्न' पुस्तकां मुखांत्र कोंकणींत विभिन्न प्रयोग केला. शेवोट नातल्ली सामानयता आनी आर्थ दीनास्तां व्यर्थ जांवचो एकी सब्द ताच्या कवितेंनी मेळचोना तें हांव खऱ्यान सांगतां. वाचप्याक भेश्टेंच उद्रेकित कर्न कनपिरेच्या झाडार बसंवच्या गरजे भायल्या वरणनाचो लेप वा रंग जोसिच्या कवितेंनी दिसाना. कवीन अनभोग जोडचो आपणें जियेंवच्या समाजे थावन्ंच्. "हांवें धांवचें रावयलां; सवकास चलूंक लागलां" म्हणच्या कवीन जिणिये पयणा वाटेर मतिचे कण कण उगते, जागरुत दवर्न जिविताची धाव, सत्व वोडन घेवन, हो अनभोग कवितांनी रुपांतर कर्न आटयला. भाशेचो ऊंच मट्टाचो प्रयोग कर्न बोव अरथाभरीत रितीन, काळजा मनाक नाटवसार्के जोसिन समकाळीन

समाजेचें चित्रण आनी विमर्सो केला. शोषण, अन्याया विरोध ताच्या तीक्ष्ण आनी तीवर प्रतिक्रियेक सरी जावन कवितेंनी रूप घेतलां. थोडीं दृश्टांतां दिंवचीं तर: 'अलर्जी' कविता अहिंसाचो पर्मळीक संदेश नेगारून भ्यें उबजांवच्या, ना सोसणिकायेच्या आयच्या समाजेच्या कनिश्ट स्थितेक आरसो धरता.

*मास चाचांवचो मापळी मात्र*
*फुला पर्मळाक सरसरीत शिंको काडतालो*

'द्रौपदिंचे विळाप' कवितेंत, दुश्व्यांनी स्त्रीयांचेर बलत्कार कर्न मान भंगयताना राकोण करूंक सलवल्ल्या फालतू वेवस्तेची खेळखुळां करता.

*पांडव हांगा थोडे भोंवतणी*
*लाटी हातीं आसा, उभारूंक पर्वणगी ना*

'शूद्र मनीस' कविता प्रकृतिचेर अत्याचार करच्या अबलेशी मनशाक उतरांनी फात्रायता!

*भांगाराचें हरवाण दिल्यारी*
*शूद्राक पीक उडंवचीच खुशी*

'सांगाता सांगाता' कवितेंत धरतेक अवयपरीं लेकून पानो, पासळी दिल्ल्या धर्तेचें रूण सांगाता सांगाता असोनी जीण पुरती फारीक करूंक जांवचेंना म्हण कळवळता.

*फळां खुंटून भरली दाली*
*पाळांची तान कितें, कळ्ळिना*

'मोरोंक सोडिनाकात' कविता दुबळ्याक विकून खांवच्या सांतेंत सांतिपणाचो वेस पांगुरच्या हिपोक्रितांक श्लोकांच्ये चाटियेन सरसरीत पोपाय्ता.

*दुबळ्यांचा आंगवणेन देवाळां गिरेस्त*
*दुबळ्याच्या नागवणेन असपत्र्यो गरबेस्त*

जोसिच्या ह्या पुस्तकांतलीं आनी आदीं प्रकट जाल्ल्या पुस्तकांतलीं प्रतिमां आनी रूपकां विंचून अधयायनाक उपकाराक पडचो वेगळोच एक बूक काडयेत! फुलांचो सत्व चिंवोन म्होंव तयार करच्या मुसापरीं, संवेदनशीळ कवी समाजेंतले संकीर्ण अनभोग आटवन, समाजेची कुसाडाय विवरूंक सयत मतीक बोळांवचीं प्रतिमा रचून कावयाळ सुख दिंवचें म्होंव निर्माण करता तें 'आकांत' कविता वाचताना कळता. आवयचीं कडतरां पांयांक शिरकावन जालांत भोंवची सोभित प्रतिमा उबार्न, आपल्या भुरग्याक पळेताना आवय थंय उबजंवच्या उल्लासाच्या भोगणांक विवरूंक 'आवय काळजांत फुलतात चिर्मुल्यो' म्हळ्ळें मन खुशाल करचें रूपक वापार्न कवी वाचप्यांचीं चिंतनां फुलयता. आतां तेंच भुरगें आवयची साडी न्हेसोन, बिंदी, लिप्स्टीक, कांकणा, पांयजाणां घालन, आवयचें वेनिटी ब्याग हातीं घेवन 'पालंव धरणीक गळ्ळ्यारी एका हातान मिरियो सांबाळन रावल्ल्या..' भुरग्याचें बोव नाजूक आनी मुगद रुपणें कवी पिंत्रायता. पुण त्येच घडये कवी कामुकी भोंवारात वाडोन येंवच्या चेडूं भुरग्याच्या अवयच्या मना भितर रिगोन तिच्या आकांताक रूप दिता, काळजाच्या धडदड्यांक सब्द बसयता.

*आरस्या दोळे निळे जातात*
*वोणतीक नाक्षो सुटतात*
*जनेलांक जिबो फुटतात*

अशें प्रभाविक थरान आयची वास्तविकता पिंत्रायताना कवी चलियेक/स्त्रीयेक अबल, असहायक म्हण बिलकूल लेकिना. 'बिडियो बांदच्या चेडवालागीं' कवितेंतल्यो निमाण्यो पंगती वाचल्यार खंच्याय स्त्रीये भितर लिपोन आसल्ल्या धयराक उजो पेटतलो आनी तिका अन्नाड्यांच्यो हिकमतय्यो आनी कुयुक्त्यो घुड्डावन रांवची हिममत लाबतेली तें खंडीत!

*रांदणिचो धुंवोर घोटून*
*सवय आसच्या चेडवा मुकार*
*एद्देशा मुळकुटाच्यो*
*धुंवरा मुदियो सोडून*
*खेळकुळां करतेल्यांनो*
*चत्राय!*

आशेंच मनशाचें घन आनी मान गवऱवान उबारून धरचो कवी, आपणाभितर व्हाळच्या अगाध सत्तेच्या सागोराक वळकनास्तां एका कोपा खातीर जिवित

विभाडचा मनशाच्या पोळ्कुर्या चिंतपाक आनी अबलेशी कर्मांक 'निसकळ फांतयार' कवितेंत शाण्या उतरांनी साणेक धरता.

*बगलेन एक नंय व्हाळता*
*तरी म्हज्या कोपांतलें मात्र*
*हांवें वोंटांक धरचें.*
*तें कोप भरूंक हांवे*
*वेळ विभाडिनास्तां*
*मयलां मयलां धांवूंक असा!*

कविचें सिद्वांत, कविचें कल्पन आनी वस्तुस्थिती सांगाता मेळून काळजाक हालंवचो आवाज उटंवच्यो 'हांव मेळ्या वोंटांचो' 'सोडदोड' तसल्यो कविता ह्या पुस्तकांत आसात. 'नटन' 'बोलमें' 'असहायक' 'मोग पानेवंक सलवाल्ल्या दिसा' कविता कवीन जियेंवची मोलां आनी कविक समाजे थावन मेळच्या अनभोगा मधें जाल्ल्या घर्शणाचीं किटाळां तशीं दिसतात.

ह्या पुस्तकांतल्यो सर्व कविता वाचून जाल्या उपरांत, कवीन अपुण जियेंवच्या समाजेक पळेंवची रीत वेगळी आनी कवीन आपली जिणी स्वीकार केल्ली रीत वेगळी तें सुस्ताता. ह्याच पर्माणें कविता दोन वांटे करयेत. समाजे कुशीन पळेंवच्यो कविता आनी सताच्ये सोधनेक लागल्ल्यो कविता. आयच्या कठीण संघर्शांती जिविताक पोट्लुन धरूंक हुमेद दिंवची 'उज्या तुज्या वेंगेंत' कविता ह्या दोन वांट्यांक सांखोव जावन रावता. जिविताच्ये संकीरणतेक फुड करूंक सकानास्तां मनीस लांकडा भाशेन पिडेस्त जाला. ह्या मनशां थावन्ंच् समाज घडता जाल्ल्यान समाज लांकडाभाशेन लाचार जाल्या. पुण कविची प्रतिभा अज्यापां करता. कविचें कल्पन वैंकुटाक उबता.

*विकाळ जिविंनी म्हज्या अंगार*
*केल्ल्या घायांक*
*उज्या तुजे वोंटाउमे*
*चांपया परमळ उटयतात*
*हा! तुज्या-म्हज्या मिलनावेळा*
*एदेनाच्या वनांत कोगुळ्यो*
*ताळो मेळयतात*

*उज्या तुजये वेंगेभायर*
*सारल्ले दीस भेश्टें पोकोळ*
*जरी पयलें गोमल्लें*
*केन्नांगी जार्ती तुजी होकल.*

कसलो उजो हो, कविक जिविताचो खरो अर्थ दिंवचो? उज्याच्ये वेंगेंत मठवासी कवी जिणयेचें संभ्रमीक बलिदान भेटव्न असा आनी वाचप्याक ह्या भेटवणेंत वांटेली कर्न असा.

हो उजो समाजेचो तशेंच मनशा भितरलो. भितरलो उजो पयलें वेक्तीक उपरांत समाजेक परिवर्तन करूंक सकचो. जोसिच्यो कविता असल्या उज्याक वेंगूंक अपवणें दितात. उजो ग्रासिना पुण नितळ करता म्हळ्ळो अखंड भावाडत आसल्ल्यांक उज्याक वेंगचें धयर मेळता. जिणियेक जोकतें रूप आनी अर्थ मेळाजे तर हो उजो गरजेचो. कवी 'रायालागीं' कवितेंत अपल्या रायालागीं 'तूं उजो फुकित राव, हांव पेटत रावतां' म्हणता कित्याक कविक उज्याच्ये वेंगेंत भांगार जावंक आशाः

*आगव्यांत पडलां हांव*
*राया,*
*तुजें भांगार*
*जांव*

ह्या पुस्तकांतल्यो कविता भोगतेल्यांक भांगार जांवचो उजो आपणांवची बळादीक अशा किरलाल्ल्यांत नवाल ना. हांव चिंततां जोसिच्या पुसत्तकाचो शेवोटच हो.

आनी पंचवीस वर्सां उपरांत, म्हज्या उतर प्रायेर जर कोण युवजणान (आनी जलमोंच्या) पंचवीस वर्सां पयलें आमची समाज कशी आसल्ली म्हण विचारल्यार हांव ताका जोसिचो 'उज्या तुजये वेंगेंत' बूक दीवन वाचून समजून घे म्हण सांगतां. कित्याक म्हळ्यार जोसिन ताच्या कवितेंनी आयचा समाजेक आनी जिविताक प्रतिबिंबीत केलां मात्र न्हय, उज्याच्ये वेंगेंत मनशाकुळाक मेळच्या सोडवणेचो आशावाद उचारला. बदलावण पारकूंक पुस्तकाची प्रती सांबाळून दवर्ची गर्ज असा!

जोसिच्यो कविता ताणें सोधून काडन पोट्लुन धरल्ल्या सतांचो वांटो जावनासोन, वाचप्याच्या चालत्या जिणियेंत, मर्तींत प्रतिगाज उटवन जिविताक अर्थ दिंवची अदबूत सकत अटापून आसात. वाचप्यांनी उगत्या मनान 'उज्या तुजये वेंगेंत' पुस्तकांतल्या कवितेंक आरावन धरताना ही अदबूत सकत शिरां शिरांनी, कणां कणांनी पाशार जाल्लो अनभोग जातलो तें खंडीत. हें पुस्तक कोंकणी कविता शेताक जोसिन ह्या तरन्या प्रायेर दिल्ली उंचली काणीक म्हण हांव लेकतां.

– आंडऱ्यू एल. डी कूनहा

**ಪಯ್ಲೆಂ ವಾಚಾಪ್**

## ಉಜ್ವಾಯೆಚ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್ ಜಿವಿತಾಚೆ ಪುಸ್ಪುಶೆ

ಪ್ರಸ್ತಾವನಾಚಿಂ ಉತ್ರಾಂ ಬರಂವ್ಚ್ಯೆ ಖಾತಿರ್ ಕವಿ ಬಾಪ್ ಜೊ.ಸಿ. ನ್ ತಾಚ್ಯಾ ಕವಿತಾಂಚೊ ಘೊಸ್ ಮ್ಹಜೆಲಾಗಿಂ ದೀವ್ನ್, "ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಕಾವ್ಯಾಪೆಲ್ಯಾಕ್ 'ಉಜ್ವಾ ತುಜ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್' ನಾಂವಾನ್ ವೊಲಾಯ್ಲಾಂ" ಮ್ಹಣ್ ಸಾಂಗ್ತಾನಾ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಮತಿ ಪಡ್ದ್ಯಾರ್ ನವೆಂಬರ್ ಮ್ಹಯ್ನ್ಯಾಂತ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಭುಲಯಿಲ್ಲಿಂ, ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಮನಾಕ್ ಚಾಳ್ವಯಿಲ್ಲಿಂ ಉಜ್ವಾಂಚಿಂ ದೃಶ್ಯಾಂ ಎಕೇಕ್‌ಚ್ ಪಾಶಾರ್ ಜಾಲಿಂ. ಅಲ್ಮಾಂಚ್ಯಾ ದಿಸಾ ಸಿಮಿಸ್ತ್ರಿಂಚ್ಯಾ ಘೊಂಡಾವಯ್ರ್ ಜಳ್‌ಲ್ಲ್ಯ ವಾತಿಂಚೊ ಉಜೊ, ನವೆಂಬರ್ 13 ತಾರಿಕೆರ್ ಫ್ರಾನ್ಸ್ ದೆಶಾಚ್ಯಾ ಪ್ಯಾರಿಸ್ ಶ್ಹೆರಾಂತ್ ಧಾರ್ಮಿಕ್ ಮೂಳ್‌ಭೂತ್‌ವಾದಿಂನಿ, ಆಕಾಂತ್‌ವಾದಿಂನಿ ಬಂದೂಕೆಚ್ಯಾ ಗುಳ್ಯಾಂಚೊ ಉಜ್ವಾ ಪಾವ್ಸ್ ವೊತುನ್ ಲೊಕಾಚಿ ಹತ್ತ್ಯಾ ಕೆಲ್ಲಿ ಟಿವಿರ್ ಪಳೆಲ್ಲಿಂ ಪಿಂತುರಾಂ, ತ್ಯಾಚ್ ವೆಳಿಂ ಪ್ರಾದೇಶಿಕ್ ಮಾಧ್ಯಮಾಂನಿ ಪ್ರಸಾರ್ ಜಾಲ್ಲಿಂ, ಆಮ್ಚ್ಯಾಚ್ ಭೊಂವಾರಾಂತ್ ಮತಾಂಧ್ಯಾಂನಿ ಬಸ್ಸಾಂಕ್, ಆಂಗ್ಡಿಂಕ್ ಜಳವ್ನ್ ಭಿರಾಂತ್ ಉಟಯಿಲ್ಲಿಂ ದೃಶ್ಯಾಂ, ಹ್ಯಾ ಗಲಾಟ್ಯಾ ಮಧೆಂಯ್ ದಿವಾಳಿ ಫೆಸ್ತಾಚೊ ಸಂಭ್ರಮ್ ಪ್ರಸಾರ್ಚ್ಯೊ ಉಜ್ವಾ ಖೆಳ್, ಪಟಾಕ್ಯೊ, ಘರಾ ದಾರ್ವಟ್ಯಾ ಮುಕಾರ್ ಜಳ್ಚೆ ದಿವೆ... ಜೊ.ಸಿ.ಚ್ಯಾ ಕವಿತಾಂಚ್ಯಾ ಗುಂಡಾಯೆಕ್ ಹಳ್ವಾಯೆನ್ ದೆಂವ್ತಾನಾ ಮ್ಹಾಕಾ ಕಳಿತ್ ನಾತ್‌ಲ್ಲೆಪರಿಂ, ಮತಿಂತ್ ಛಾಪ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಉಜ್ವಾ ಚಿತ್ರಾಂಚೆರ್ ಕವಿನ್ ಘುಂತ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಉತ್ರಾಂಚ್ಯಾ ಕಾವ್ಯಾಶೆಲ್ಯಾಚೆಂ ಧಾಂಪಣ್ ಪಾಂಗ್ರಾಲೆಂ. ತ್ಯೆ ಘಡ್ಯೆ ಜೊ.ಸಿ.ನ್ ದಾಕವ್ನ್ ದಿಲ್ಲ್ಯಾ ಉಜ್ವಾಚ್ಯಾ ಮೊವಾಳ್ ವೆಂಗೆಂತ್ ಹಾಂವ್ ಪಾವ್‌ಲ್ಲೊಂ. ತ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್ ಜೊ.ಸಿ.ಚ್ಯೊ ಹರ್ಯೆಕ್ ಕವಿತಾ ಉಜ್ವಾಚ್ಯೊ ಜಿಬೊ ಜಾವ್ನ್ ಮನಾಕ್ ಪೊಶೆವ್ನ್ ಕಾಳ್ಜಾಲಾಗಿಂ ಪುಸ್ಪುಸ್ತಾನಾ, ಕವಿ ಸಂಗಿಂ ಜಿಣಿಯೆಚ್ಯಾ ಅರ್ಥಾಚ್ಯೆ ಸೊಧ್ನೆಂತ್ ಹಾಂವ್‌ಯೀ ಮೆತೆರ್ ಜಾಲೊಂ.

ಕವಿ ಜೊ.ಸಿ.ಕ್ ಹಾಂವ್ ಪಾಟ್ಲ್ಯಾ ಧಾ ವರ್ಸಾಂ ಥಾವ್ನ್ ಪತ್ರಾಂನಿ, ಜಾಳಿ ಜಾಗ್ಯಾಂನಿ ವಾಚುನ್ ಆಸಾಂ ತರೀ ತಾಕಾ ಖಾಸ್ಗೆನ್ ಮೆಳ್‌ಲ್ಲೊಂ 2014 ಇಸ್ವೆಂತ್. ಮ್ಹಜ್ಯಾ 'ಅಂಜುರಾಚೆಂ ಪಾನ್' ಪುಸ್ತಕಾಕ್ ಕರ್ನಾಟಕ ಸಾಹಿತ್ಯ ಅಕಾಡೆಮಿಚೊ ಪುರಸ್ಕಾರ್ ಮೆಳ್ತಾನಾ, ಜೊ.ಸಿ.ಕ್ ಅಕಾಡೆಮಿಚೊ ಯುವ ಪುರಸ್ಕಾರ್ ಲಾಬ್‌ಲ್ಲೊ. ಧಾರವಾಡಂತ್ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾ ಪುರಸ್ಕಾರ್ ಸಂಭ್ರಮಾಂತ್ ವಾಂಟೊ ಘೆಂವ್ಕ್ ಆಮಿ ಸಾಂಗಾತಾ ಪಯ್ಣ್ ಕೆಲ್ಲೆಂ. ತ್ಯೆ ವೆಳಿಂ ಆಮ್ಕಾಂ ಎಕಾಮೆಕಾ ಸಮ್ಜೊಂಕ್, ಸಾಹಿತ್ಯಾವಿಶಿಂ, ಜಿವಿತಾವಿಶಿಂ, ಕಾವ್ಯಾವಿಶಿಂ ಗಜಾಲಿ ಕರುಂಕ್ ಆವ್ಕಾಸ್ ಲಾಬ್‌ಲ್ಲೊ. ತೊ ಪ್ರಾಯೆನ್ ಮ್ಹಜೆಪ್ರಾಸ್ ವೀಸ್ ವರ್ಸಾಂ ಲ್ಹಾನ್ ತರೀ ತಾಚ್ಯಾ ಪ್ರಭುದ್ಧ್ ಚಿಂತ್ಪಾನ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಪಿಶ್ಯಾರ್ ಘಾಲ್ಲೆಂ. ಹ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಂತ್ಲಿ ಪಯ್ಲಿ ಕವಿತಾ 'ಮತ್ಪಾಸಿಚಿ ಕವಿತಾ' ಕವಿಚಿ ಒಳೊಕ್ ಕರ್ನ್ ದಿತಾ ಆನಿ ಕವಿನ್ ವಿಂಚ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಜಿಣಿಯೆ ವಾಟೆಚಿ ಆನಿ ತಾಚ್ಯಾ ಚಿಂತ್ಪಾಚಿ ದಿಶಾ ದಾಕವ್ನ್ ದಿತಾ.

*ಖಂಯ್ಚ್ಯಾಗೀ ಎಕಾ ದಿಸಾ*
*ಅಪ್ಚಿತ್ ಏಕ್ ಪುಸ್ಪುಸೊಶೆಂ ಆಯ್ಕೊನ್*
*ಗರ್ಕ್ ಕರ್ನ್ ರಾವ್ಲೊಂ,*
*ತೊಚ್ ಪರತ್ ಆಯ್ಕುಂಕ್*
*ಹಳೂ ಚಲೊನ್ ವೆತಾಂ... ದರ್ವಡ್ ನಾ...*

*ಹೈಚ್ ವಾಟೆನ್ ಪರತ್ ಪರತ್ ವ್ಹೆಚೆ*
*ಗಿರಾಂತ್ ಮ್ಹಣ್ತಾತ್ ತುಮಿ*
*ಖರೆಂ, ಕೊಣೀ ಹ್ಯೆ ವಾಟೆನ್ ಯೇತ್ ಮ್ಹಣ್*
*ಹಾಂವೆಂ ಚಲೊಂಕ್ ಸುರು ಕೆಲ್ಲೆಂ ನ್ಹಯ್!*

ಜೊ.ಸಿ.ಥಂಯ್ ಹಾಂವೆಂ ಪಾರ್ಕಿಲ್ಲೊ ಖಾಸ್ ಗೂಣ್ – ಖಂಯ್ಚ್ಯಾಯ್ ಸಾಮಾಜಿಕ್ ಸಂಗ್ತಿಂಥಂಯ್ ತಾಚಿ ಅಭಿಪ್ರಾಯ್, ಗಿನ್ಯಾನ್ ಆನಿ ಜಾಣ್ವಾಯೆನ್ ಭರ್ಲೆಲಿ ಆಸೊನ್ ತಿ ಸುರ್ವೆರ್ ಥಾವ್ನ್ ಸ್ಪಷ್ಟ್. ಕಸಲ್ಯಾಚ್ ಸಂಸಾರಿ ಮುಲಾಜ್ಯಾಂಕ್ ವೊಂದಾನಾಸ್ತಾಂ ಸ್ವಂತ್ಪಣಿಂ ವಿಂಚುನ್ ಕಾಡ್ಲ್ಲಿ ತಾಚಿ ವಾಟ್ ಸ್ಪಷ್ಟ್ ಆನಿ ಖಚಿತ್. ಪುಣ್ ಹ್ಯಾ ಮತ್ವಾಶಿಚಿಂ ಚಿಂತ್ನಾಂ ಬೋವ್ ಸಂಕೀರ್ಣ್. ತ್ಯಾ ಚಿಂತ್ನಾಂಕ್ ರೂಪ್ ದಿಂವ್ಚ್ಯಾ ಕವಿತಾ ಪಯ್ಲೆ ಪಾವ್ಟಿಂ ವಾಚ್ತಾನಾ, ಮತಿಂತ್ ಉದೆಂವ್ಚಿಂ ಸಬ್ದಾಂಕ್ ಮಿಕ್ವಾಲ್ಲಿಂ ಅಸ್ಪಷ್ಟ್ ರುಪ್ಣಿಂ ಸಂಬಂಧ್ ಜೊಡುಂಕ್ ಹಾಳ್ವಾಯೆನ್ ಆಪವ್ನ್ ಆಸಾತ್ ತಶೆಂ ಭೊಗ್ತಾ. ಹ್ಯಾ ರುಪ್ಣ್ಯಾಂಚೆ ಮಿಸ್ತೆರ್ ಸಮ್ಜೊಂಕ್ ವಿಚಿತ್ರ್ ಆತುರಾಯ್ ಉಬ್ಜಾತಾನಾ, ತಿಂ ರುಪ್ಣಿಂ ಕಾವ್ಯಾರಸಿಕಾಚ್ಯಾ ಮತಿಕ್ ಕವಿತೆಚ್ಯಾ ಗುಂಡಾಯೆಕ್ ವೊಡ್ನ್ ವ್ಹರ್ತಾತ್. ತ್ಯೆ ಗುಂಡಾಯೆಂತ್ ಉಮಾಳೊನ್ ವ್ಹಾಳ್ಚ್ಯಾ ಕಾವ್ಯರೊಸಾಚಿ ರೂಚ್ ಚಾಕ್ತಾನಾ ಹೊ ರೋಸ್ ಆಮ್ಚ್ಯಾಚ್ ಜಿವಿತಾಚೊ ಖರೊ ಸತ್ವ್ ಮ್ಹಣ್ ಒಳ್ಕುನ್ ಘೆಂವ್ಚೊ ಸ್ವಾಧಿಕ್ ಅನ್ಭೋಗ್ ವಾಚ್ಪ್ಯಾಕ್ ಜಾಂವ್ಚ್ಯಾಂತ್ ನವಾಲ್ ನಾ. ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಕಾವ್ಯಾರ್ಝುರಿಲಾಗಿಂ ವಾಚ್ಪ್ಯಾಕ್ ಎಕ್ವಟಾಂವ್ಚೆ ಖಾತಿರ್ ಕವಿನ್ ರಚ್ಲ್ಲಿಂ ರೂಪಕಾಂ ಆನಿ ಮತಿಪಡ್ಡ್ಯಾರ್ ತಾಣೆಂ ಸಬ್ದಾಂನಿ ಪಿಂತ್ರಾಂವ್ಚಿಂ, ಜಿವಿತಾಚೊ ಅರ್ಥ್ ಉಚಾರ್ನ್ ಸಾಂಗ್ಚಿಂ ಪಿಂತುರಾಂ ವಿಜ್ಮಿತ್ ಕರ್ತಾತ್. ದಾಕ್ಲ್ಯಾಕ್ 'ಜಾತ್ರೊ' ಕವಿತಾ. ಕವಿತೆಚೆಂ ನಾಂವ್ಚ್ ವಾಚ್ಪ್ಯಾಂಚೊ ಅನ್ಭೋಗ್ ಉಸವ್ನ್ ತಾಣಿಂ ಪಳೆಯಿಲ್ಲ್ಯಾ ಜಾತ್ರ್ಯಾಚೆಂ ದರ್ಶನ್ ದಿತಾ ತರ್ ಕವಿ ಸವ್ಕಾಸ್ ಸಬ್ದಾಂನಿ ತ್ಯಾ ದೃಶ್ಯಾಕ್ ಆಪ್ಣಾಚ್ಯಾ ವಿಚಾರಾಂಚೆ ರಂಗ್ ದಿತಾ, ಅರ್ಥ್ ದಿತಾ. ಭಿತರ್ಲ್ಯಾ ದಿವ್ಯಾಕ್ ಒಳ್ಕನಾಸ್ತಾಂ ಎಕ್ಸುರೆಂ ಮರೊಂಕ್ ಸೊಡುನ್ ಮತಿಕ್ ಘಸಂವ್ಚ್ಯಾ ಕ್ಷಣಿಕ್ ಪರ್ಜಳಾಕ್ ಭುಲ್ಚ್ಯಾ ಮನ್ಶ್ಯಾ ಸ್ವಭಾವಾಚೊ ವಿಮರ್ಸೊ ಕರ್ನ್ ಸಾಂಗ್ಚ್ಯೆ ಹ್ಯೆ ಕವಿತೆಚೆಂ ನಿಮಾಣೆಂ ದೃಶ್ಯ್, ಲೌಕಿಕ್ ವೊಂದೊವ್ಣೆಕ್ ವೊಳಗ್ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾ ಮನ್ಶ್ಯಾಚ್ಯಾ ಅತ್ಮ್ಯಾಚಿ ಸ್ಥಿತಿ ಪಿಂತ್ರಾಯ್ತಾ:

*ಭುರ್ಗಿಂ ಪಾಟಿಂ ಯೆತಾತ್*
*ಹಾತಾಂತ್ ಸುರುಸುರು ಕಡ್ಡಿ ಘೆವುನ್*

*ಮಿಣ್ಕುಂಚಿ ಚಿಮ್ಣಿ ದೀರ್ಘ್ ಸ್ವಾಸ್ ಘೆವುನ್*
*ಪ್ರಾಣ್ ಸೊಡ್ತಾ.*

ಜಿವಿತಾಚ್ಯಾ ಖರ್ಯಾ ಅರ್ಥಾಚ್ಯಾ ನಿಯಾಳಾಕ್ ದೆಂವಂವ್ಚ್ಯೊ, ತತ್ವಶಾಸ್ತ್ರಾಚೆಂ ಸತ್ವ್ ಅನಿ ತತ್ವಾಂನಿ ಪಿಕ್‌ಲ್ಲ್ಯೊ ಥೊಡ್ಯೊಶ್ಯೊ ಕವಿತಾ ಹ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಂತ್ ಆಸಾತ್. ಸತಾಚೆಂ ಖರೆಂ ರೂಪ್ ದೊಳೆ ಭರ್ನ್ ದೆಕ್ಚಿ ಜಬ್ಬೊರ್ ಆಶಾ ಜೊ.ಸಿ.ಚ್ಯಾ ಅಸಲ್ಯಾ ಕವಿತೆಂಕ್ ದಿಶಾ ದಿತಾ. 'ಉಜ್ಯಾ ತುಜ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್' ಅಸಲ್ಯಾಚ್ ಕಾಲೆತಿಚಿ ಕವಿತಾ. ಆಮ್ಚ್ಯಾ ಇಂದ್ರಿಯಾಂಕ್, ಗಿನ್ಯಾನಾಕ್ ಆನಿ ರಾಜಾಂವಾಕ್ ಮಿಕ್ವಾಲ್ಲಿಂ ಸತಾಂ ಆಸಾತ್ ಮ್ಹಣ್ ದಾಕಂವ್ಕ್ ಕವಿ ಹ್ಯಾ ಸತಾಂಚೆರ್ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಮಿಸ್ತೆರಾಭರಿತ್ ಕವಿತಾಂಚಿ ಕಿರ್ಣಾಂ ರೊಂಬಯ್ತಾ! 'ಘಾಶಿ', 'ಆಮಿ ದೊಗಾಂಯ್ ಏಕ್', 'ಚೋರ್ ಯೇವ್ನ್ ಗೆಲ್ಲೊ', 'ಘಸ್ಲೊಂ', 'ರಾಯಾಲಾಗಿಂ' ಅಸಲ್ಯಾ ವರ್ಗಾಕ್ ಮೆಳ್ಚ್ಯೊ ಮಿಸ್ತಿಕ್ ಕವಿತಾ. ಹಿಂ ಸತಾಂ ಲೊಂಕ್ಡಾಚ್ಯಾ ಚಣ್ಯಾಸಾರ್ಕಿಂ ಕಟೀಣ್. ಕವಿತಾಯ್ ತಶ್ಯೊಚ್ ಸಂಕೀರ್ಣ್! ಹ್ಯಾ ಕವಿತೆಂಕ್ ಹಟಾನ್ ಪೊಟ್ಲುನ್ ಘೆವ್ನ್ಂಚ್ ರಾವ್ಲ್ಯಾರ್ ಕಾಂಯ್ ನಿಮಾಣೆಂ ರಸಿಕಾಚ್ಯಾ ಆಶೆಚ್ಯಾ ದಾವೆಕ್ ಕಡೊನ್ ಭಿತರ್ಲೊ ಘುಟ್ ಫೊಡ್ನ್ ಉಗ್ತಿಂ ಜಾತಿತ್ ಕೊಣ್ಣಾ! ಜೊ.ಸಿ.ಕ್ ಹ್ಯಾಚ್ ವರ್ಸಾ 2015 ಎಪ್ರಿಲ್ ಮ್ಹಯ್ನ್ಯಾಂತ್ ಯಾಜಕ್ಪಣಾಚಿ ದೀಕ್ಶಾ ಮೆಳ್‌ಲ್ಲಿ. ಹ್ಯಾ ಪುಸ್ತಾಕಾಂತ್ಲ್ಯೊ ಚಡಾವತ್ ಕವಿತಾ ತಾಣೆಂ ಪಾಟ್ಲ್ಯಾ ಪಾಂಚ್ ವರ್ಸಾಂನಿ ಯಾಜಕ್ಪಣಾಚೆಂ ಶಿಕಪ್ ಜೋಡ್ನ್ ಆಸ್ತಾನಾ ಬರಯಿಲ್ಲ್ಯೊ ಆಸಾತ್. ಆಶೆಂ ಮ್ಹಣ್ತಾನಾ ವಾಚ್ಪ್ಯಾಂಕ್ ಸುರ್ವೆರ್‌ಚ್ ಏಕ್ ನಿರೊಪ್ ದಿಂವ್ಚಿ ಗರ್ಜ್ ದಿಸ್ತಾ. ಜರ್ ವಾಚ್ಪಿ ಹ್ಯಾ ಮತ್ವಾಸಿಚ್ಯೊ ಕವಿತಾ ಫಕತ್ ಆಧ್ಯಾತ್ಮಿಕ್ ಚಿಂತಪ್ ಉಟಂವ್ಚ್ಯೊ ಆನಿ ತತ್ವ್‌ಶಾಸ್ತ್ರಾಚೊ ಗಿರೊಪ್ ಭರ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಶ್ಲೋಕಾಂನಿ ಪರ್ಗಟ್ಲೆಲಿ ಸುವಾರ್ತಾ ಮ್ಹಣ್ ಸೀಮಿತ್ ಚಿಂತಪ್ ಘೆವ್ನ್ ಸುರ್ವಿಲ್ಯೊ ದೋನ್ ಕವಿತಾ ಆನಿ ನಿಮಾಣ್ಯೊ ದೋನ್ ಕವಿತಾ ಆಮ್ಸೊರಾನ್ ವಾಚುನ್ ಬೂಕ್ ತುರ್ತಾನ್ ಕಬಾಟಾಂತ್ ರಿಗಯ್ತಿತ್ ತರ್, ಹ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಹರ್ ಕವಿತೆಂತ್ಲ್ಯಾ ಪಂಗ್ತಿ ಪಂಗ್ತಿನಿ, ಸ್ತರಾಂ ಸ್ತರಾಂನಿ, ಸಬ್ದಾಂ ಸಬ್ದಾಂನಿ ದಾಳ್ಮಾಂ ಬಿಂಯಾಂಪರಿಂ ರೊಂಬೊನ್ ರಾವ್‌ಲ್ಲೊ ಜಿವಿತಾಚ್ಯಾ ಅಗಾಧ್ ಸುಖಾಳ್ ಅನ್ಭೊಗಾಚೊ ರೋಸ್ ಭೆಶ್ಟೆಂಚ್ ಹೊಗ್ಡಾಯ್ಜೆ ಪಡಾತ್.

ಹೆಂ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಸಾಂಗ್ತಾಂಗಿ ಮ್ಹಳ್ಯಾರ್, ಜೊ.ಸಿ.ನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕಾವ್ಯಾ ಶೆತಾಂತ್ ಎದೊಳ್‌ಚ್ ಆಪ್ಲೆಂ ನಾಂವ್ ಥಿರಾಯ್ಲಾಂ. ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಎಕ್ವಿಸಾವ್ಯಾ ಪ್ರಾಯೆರ್‌ಚ್ 2008 ಇಸ್ವೆಂತ್ ಪ್ರಕಟ್ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾ ತಾಚ್ಯಾ ಪಯ್ಲ್ಯಾ 'ಪಾವ್ಸಾ ಧೊಣು' ಕವಿತಾ ಸಂಗ್ರಹಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಕವಿತಾಂಕ್ ವಾಚ್ತಾನಾ ಕೊಂಕ್ಣೆಚೊ ಮಹಾನ್ ಕವಿ ಮೆಲ್ವಿನ್ ಲುದ್ರಿಕಾಕ್ 'ಸಾತಾಚೆ ಸತ್ತರ್ ರಂಗ್' ದಿಸ್‌ಲ್ಲೆ ಆನಿ 'ಕಾಂಡಿಯೆರ್ ಆಸ್ತಾನಾಂಚ್ ಬೊಂಡಿಯೆರ್ ಯೆಂವ್ಚಿಂ ಲಕ್ಶಣಾಂ' ತಾಕಾ ಝುಳ್ಕಾಲ್ಲಿಂ! 2011 ಇಸ್ವೆಂತ್ ಪ್ರಕಟ್ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾ ಜೊ.ಸಿ.ಚ್ಯಾ 'ಮೊರಾನ್ ಸಾಂಡ್ಲೆಲಿಂ ಪಾಕಾಂ' ಕಾವ್ಯಾ ಮುಕಾಂತ್ರ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕಾವ್ಯಾ ಶೆತಾಕ್ ನವ್ಯ್ ಕವಿತೆಂಚಿ ಅಪೂರ್ವ್ ಕಾಣಿಕ್ ಲಾಬ್ಲ್ಯಾ ಮ್ಹಣ್ಯೆತ್. ತ್ಯಾ ಉಪ್ರಾಂತ್ ಜೊ.ಸಿ.ನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕಾವ್ಯಾಂತ್ ಅಪ್ಲೆಚ್ ಖಾಸ್ ನವೆ ನವೆ ಪ್ರಯೋಗ್ ಕೆಲ್ಯಾತ್. ಗದ್ಯ್ ಆನಿ ಕಾವ್ಯೆಂ ಸಾಂಗಾತಾ ಹಾಡ್ನ್ 2013

ವರ್ಸಾ ಪ್ರಕಟ್ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾ ತಾಚ್ಯಾ 'ಯೂ ಟರ್ನ್' ಪುಸ್ತಕಾ ಮುಕಾಂತ್ರ್ ಕೊಂಕ್ಣಿಂತ್ ವಿಭಿನ್ನ್ ಪ್ರಯೋಗ್ ಕೆಲಾ. ಶೆವೊಟ್ ನಾತ್ಲ್ಲಿ ಸಾಮಾನ್ಯತಾ ಆನಿ ಅರ್ಥ್ ದೀನಾಸ್ತಾಂ ವ್ಯರ್ಥ್ ಜಾಂವ್ಚೊ ಏಕ್‌ಯೀ ಸಬ್ದ್ ತಾಚ್ಯಾ ಕವಿತೆಂನಿ ಮೆಳ್ಚೊನಾ ತೆಂ ಹಾಂವ್ ಖರ್ಯಾನ್ ಸಾಂಗ್ತಾಂ. ವಾಚ್ಪ್ಯಾಕ್ ಭೆಶ್ಟೆಂಚ್ ಉದ್ರೇಕಿತ್ ಕರ್ನ್ ಕನ್ಪಿರೆಚ್ಯಾ ಝುಡಾರ್ ಬಸಂವ್ಚ್ಯಾ ಗರ್ಜೆಭಾಯ್ಲ್ಯಾ ವರ್ಣನಾಚೊ ಲೇಪ್ ವಾ ರಂಗ್ ಜೊ.ಸಿ.ಚ್ಯಾ ಕವಿತೆಂನಿ ದಿಸಾನಾ. ಕವಿನ್ ಅನ್ಭೊಗ್ ಜೊಡ್ಚೊ ಆಪ್ಣೆಂ ಜಿಯೆಂವ್ಚ್ಯಾ ಸಮಾಜೆಥಾವ್ನ್‌ಂಚ್. 'ಹಾಂವೆಂ *ಧಾಂವ್ಚೆಂ ರಾವಯ್ಲ್ಲಾಂ; ಸವ್ಕಾಸ್ ಚಲೊಂಕ್ ಲಾಗ್ಲಾಂ*' ಮ್ಹಣ್ಚ್ಯಾ ಕವಿನ್ ಜಿಣಿಯೆ ಪಯ್ಣಾ ವಾಟೆರ್ ಮತಿಚೆ ಕಣ್ ಕಣ್ ಉಗ್ತೆ, ಜಾಗ್ರುತ್ ದವರ್ನ್ ಜಿವಿತಾಚೆ ದಾವ್, ಸತ್ವ್ ವೊಡ್ನ್ ಘೆವ್ನ್, ಹೊ ಅನ್ಭೊಗ್ ಕವಿತಾಂನಿ ರುಪಾಂತರ್ ಕರ್ನ್ ಆಟಯ್ಲಾ. ಭಾಶೆಚೊ ಊಂಚ್ ಮಟ್ಟಾಚೊ ಪ್ರಯೋಗ್ ಕರ್ನ್ ಬೋವ್ ಅರ್ಥಾಭರಿತ್ ರಿತಿನ್, ಕಾಳ್ಜಾ ಮನಾಕ್ ನಾಟ್ವಸಾರ್ಕೆಂ ಜೊ.ಸಿ.ನ್ ಸಮಕಾಳೀನ್ ಸಮಾಜೆಚೆಂ ಚಿತ್ರಣ್ ಆನಿ ವಿಮರ್ಸೊ ಕೆಲಾ. ಶೋಶಣ್, ಅನ್ಯಾಯಾ ವಿರೋಧ್ ತಾಚ್ಯಾ ತೀಕ್ಷ್ಣ್ ಆನಿ ತೀವ್ರ್ ಪ್ರತಿಕ್ರಿಯೆಕ್ ಸರಿ ಜಾವ್ನ್ ಕವಿತೆಂನಿ ರೂಪ್ ಘೆತ್ಲಾಂ. ಥೊಡಿಂ ದೃಶ್ಟಾಂತಾಂ ದಿಂವ್ಚಿಂ ತರ್: 'ಅಲರ್ಜಿ' ಕವಿತಾ ಅಹಿಂಸಾಚೊ ಪರ್ಮಳಿಕ್ ಸಂದೇಶ್ ನೆಗಾರುನ್ ಭ್ಯೆಂ ಉಬ್ಜಂವ್ಚ್ಯಾ, ನಾ-ಸೊಸ್ಣಿಕಾಯೆಚ್ಯಾ ಆಯ್ಚ್ಯಾ ಸಮಾಜೆಚ್ಯಾ ಕನಿಶ್ಟ್ ಸ್ಥಿತೆಕ್ ಆರ್ಸೊ ಧರ್ತಾ.

*ಮಾಸ್ ಚಾಬಾಂವ್ಚೊ ಮಾಪ್ಶಿ ಮಾತ್ರ್*
*ಫುಲಾ ಪರ್ಮಳಾಕ್ ಸರ್ಸರಿತ್ ಶಿಂಕೊ ಕಾಡ್ತಾಲೊ*

'ದ್ರೌಪದಿಂಚೆ ವಿಳಾಪ್' ಕವಿತೆಂತ್, ದುಶ್ಟ್ಯಾಂನಿ ಸ್ತ್ರಿಯಾಂಚೆರ್ ಬಲತ್ಕಾರ್ ಕರ್ನ್ ಮಾನ್ ಭಂಗಯ್ತಾನಾ ರಾಕೊಣ್ ಕರುಂಕ್ ಸಲ್ವಲ್ಲ್ಯಾ ಫಾಲ್ತು ವೆವಸ್ಥೆಚಿ ಖೆಳ್ಕುಳಾಂ ಕರ್ತಾ.

*ಪಾಂಡವ್ ಹಾಂಗಾ ಥೊಡೆ ಭೊಂವ್ತಣಿ*
*ಲಾಟಿ ಹಾತಿಂ ಆಸಾ, ಉಬಾರುಂಕ್ ಪರ್ವಣ್ಗಿ ನಾ*

'ಶೂದ್ರ್ ಮನಿಸ್' ಕವಿತಾ ಪ್ರಕೃತಿಚೆರ್ ಅತ್ಯಾಚಾರ್ ಕರ್ಚ್ಯಾ ಆಬ್ಲೆಶಿ ಮನ್ಶ್ಯಾಕ್ ಉತ್ರಾಂನಿ ಫಾತ್ರಾಯ್ತಾ!

*ಭಾಂಗಾರಾಚೆಂ ಹರ್ವಾಣ್ ದಿಲ್ಯಾರೀ*
*ಶೂದ್ರಾಕ್ ಪೀಕ್ ಉಡಂವ್ಚಿಚ್ ಖುಶಿ*

'ಸಾಂಗಾತಾ ಸಾಂಗಾತಾ' ಕವಿತೆಂತ್ ಧರ್ತೆಕ್ ಆವಯ್‌ಪರಿಂ ಲೆಕುನ್ ಪಾನೊ, ಪಾಸ್ಕಿ ದಿಲ್ಲ್ಯಾ ಧರ್ತೆಚೆಂ ರೂಣ್ ಸಾಂಗಾತಾ ಸಾಂಗಾತಾ ಆಸೊನ್‌ಯೀ ಜೇಣ್ ಪುರ್ತಿ ಫಾರಿಕ್ ಕರುಂಕ್ ಜಾಂವ್ಚೆಂನಾ ಮ್ಹಣ್ ಕಳ್ವಳ್ತಾ.

*ಫಳಾಂ ಖುಂಟುನ್ ಭರ್ಲ್ಲಿ ದಾಲಿ*
*ಪಾಳಾಂಚಿ ತಾನ್ ಕಿತೆಂ, ಕಳ್ಳಿನಾ*

'ಮರೊಂಕ್ ಸೊಡಿನಾಕಾತ್' ಕವಿತಾ ದುಬ್ಳ್ಯಾಕ್ ವಿಕುನ್ ಖಾಂವ್ಚ್ಯಾ ಸಾಂತೆಂತ್ ಸಾಂತಿಪಣಾಚೊ ವೇಸ್ ಪಾಂಗುರ್ಚ್ಯಾ ಹಿಪೊಕ್ರಿತಾಂಕ್ ಶ್ಲೋಕಾಂಚ್ಯೆ ಚಾಟಿಯೆನ್ ಸರ್ಸರಿತ್ ಪೊಪಾಯ್ತಾ.

*ದುಬ್ಳ್ಯಾಂಚ್ಯಾ ಆಂಗವ್ಣೆನ್ ದೆವಾಳಾಂ ಗಿರೆಸ್ತ್*
*ದುಬ್ಳ್ಯಾಚ್ಯಾ ನಾಗವ್ಣೆನ್ ಆಸ್ಪತ್ರ್ಯೊ ಗರ್ಭೆಸ್ತ್*

ಜೊ.ಸಿ.ಚ್ಯಾ ಹ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಂತ್ಲಿಂ ಆನಿ ಆದಿಂ ಪ್ರಕಟ್ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಂತ್ಲಿಂ ಪ್ರತಿಮಾಂ ಆನಿ ರೂಪಕಾಂ ವಿಂಚುನ್ ಪಟ್ಟಿ ಕರ್ನ್ ಅಧ್ಯಯನಾಕ್ ಉಪ್ಕಾರಾಕ್ ಪಡ್ಚೊ ವೆಗ್ಳೊಚ್ ಏಕ್ ಬೂಕ್ ಕಾಡ್ಯೆತ್! ಫುಲಾಂಚೊ ಸತ್ವ್ ಚಿಂವೊನ್ ಮ್ಹೊಂವ್ ತಯಾರ್ ಕರ್ಚ್ಯಾ ಮುಸಾಪರಿಂ, ಸಂವೇದನ್‌ಶೀಳ್ ಕವಿ ಸಮಾಜೆಂತ್ಲೆ ಸಂಕೀರ್ಣ್ ಅನ್ಭೋಗ್ ಆಟವ್ನ್, ಸಮಾಜೆಚಿ ಕುಸಾಡಾಯ್ ವಿವರುಂಕ್ ಸಯ್ತ್ ಮತಿಕ್ ಬೊಳಾಂವ್ಚಿಂ ಪ್ರತಿಮಾ ರಚುನ್ ಕಾವ್ಯಾಳ್ ಸುಖ್ ದಿಂವ್ಚೆಂ ಮ್ಹೊಂವ್ ನಿರ್ಮಾಣ್ ಕರ್ತಾ, ತೆಂ 'ಆಕಾಂತ್' ಕವಿತಾ ವಾಚ್ತಾನಾ ಕಳ್ತಾ. ಆವಯ್ಚಿಂ ಕಷ್ಟರಾಂ ಪಾಂಯಾಂಕ್ ಶಿರ್ಕಾವ್ನ್ ಜಾಲಾಂತ್ ಭೊಂವ್ಚಿ ಸೊಭಿತ್ ಪ್ರತಿಮಾ ಉಬಾರ್ನ್, ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಭುರ್ಗ್ಯಾಕ್ ಪಳೆತಾನಾ ಆವಯ್‌ಥಂಯ್ ಉಬ್ಜಂವ್ಚ್ಯಾ ಉಲ್ಲಾಸಾಚ್ಯಾ ಭೊಗ್ಣಾಂಕ್ ವಿವರುಂಕ್ 'ಆವಯ್ ಕಾಳ್ಜಾಂತ್ ಫುಲ್ತಾತ್ ಚಿರ್ಮುಲ್ಯೊ' ಮ್ಹಳ್ಳೆಂ ಮನ್ ಖುಶಾಲ್ ಕರ್ಚೆಂ ರೂಪಕ್ ವಾಪಾರ್ನ್ ಕವಿ ವಾಚ್ಪ್ಯಾಂಚೆಂ ಚಿಂತ್ನಾಂ ಫುಲಯ್ತಾ. ಆತಾಂ ತೆಂಚ್ ಭುರ್ಗೆಂ ಆವಯ್ಚಿ ಸಾಡಿ ನ್ಹೆಸೊನ್, ಬಿಂದಿ, ಲಿಪ್‌ಸ್ಟಿಕ್, ಕಾಂಕ್ಣಾಂ, ಪಾಂಯ್ಜಣಾಂ ಘಾಲ್ನ್, ಆವಯ್ಚೆಂ ವೆನಿಟಿ ಬ್ಯಾಗ್ ಹಾತಿಂ ಘೆವ್ನ್ 'ಪಾಲಂವ್ ಧರ್ಣಿಕ್ ಗಳ್ಳ್ಯಾರೀ ಎಕಾ ಹಾತಾನ್ ಮಿರಿಯೊ ಸಾಂಬಾಳ್ನ್ ರಾವ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ...' ಭುರ್ಗ್ಯಾಚೆಂ ಬೋವ್ ನಾಜೂಕ್ ಆನಿ ಮುಗ್ದ್ ರುಪ್ಣೆಂ ಕವಿ ಪಿಂತ್ರಾಯ್ತಾ. ಪುಣ್ ತ್ಯೆಚ್ ಘಡ್ಯೆ ಕವಿ ಕಾಮುಕಿ ಭೊಂವಾರಾಂತ್ ವಾಡೊನ್ ಯೆಂವ್ಚ್ಯಾ ಚೆಡುಂ ಭುರ್ಗ್ಯಾಚ್ಯಾ ಆವಯ್ಚ್ಯಾ ಮನಾಭಿತರ್ ರಿಗೊನ್ ತಿಚ್ಯಾ ಆಕಾಂತಾಕ್ ರೂಪ್ ದಿತಾ, ಕಾಳ್ಜಾಚ್ಯಾ ಧಡ್ಡಡ್ಯಾಂಕ್ ಸಬ್ದ್ ಬಸಯ್ತಾ.

*ಆಶ್ಯಾ ದೊಳೆ ನಿಳೆ ಜಾತಾತ್*
*ವೊಣ್ತಿಂಕ್ ನಾಕ್ಟ್ಯೊ ಸುಟ್ತಾತ್*
*ಜನೆಲಾಂಕ್ ಜಿಬೊ ಫುಟ್ತಾತ್*

ಅಶೆಂ ಪ್ರಭಾವಿಕ್ ಥರಾನ್ ಆಯ್ಚಿ ವಾಸ್ತವಿಕತಾ ಪಿಂತ್ರಾಯ್ತಾನಾ ಕವಿ ಚಲಿಯೆಕ್/ಸ್ತ್ರೀಯೆಕ್ ಅಬಲ್, ಅಸಹಾಯಕ್ ಮ್ಹಣ್ ಬಿಲ್ಕುಲ್ ಲೆಕಿನಾ. 'ಬಿಡಿಯೊ ಬಾಂದ್ಚ್ಯಾ ಚೆಡ್ವಾಲಾಗಿಂ' ಕವಿತೆಂತ್ಲ್ಯೊ ನಿಮಾಣ್ಯೊ ಪಂಗ್ತಿ ವಾಚ್ಲ್ಯಾರ್ ಖಂಯ್ಚ್ಯಾಯ್ ಸ್ತ್ರೀಯೆಭಿತರ್ ಲಿಪೊನ್ ಆಸ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಧಯ್ರಾಕ್ ಉಜೊ ಪೆಟ್ತಲೊ ಆನಿ ತಿಕಾ ಅನ್ನಾಡ್ಯಾಂಚ್ಯೊ ಹಿಕ್ಮತ್ಯೊ ಆನಿ ಕುಯುಕ್ತ್ಯೊ ಘುಡ್ಡಾವ್ನ್ ರಾಂವ್ಚಿ ಹಿಮ್ಮತ್ ಲಾಬ್ತೆಲಿ ತೆಂ ಖಂಡಿತ್!

*ರಾಂದ್ಣಿಚೊ ಧುಂವೊರ್ ಫೊಟುನ್*
*ಸವಯ್ ಆಸ್ಚ್ಯಾ ಚೆಡ್ವಾಮುಖಾರ್*

*ಎದ್ದೆಶ್ಯಾ ಮುಳ್ಕಾಟಾಚ್ಯೊ*
*ಧುಂವ್ರಾ ಮುದಿಯೊ ಸೊಡುನ್*
*ಖೆಳ್ಕುಳಾಂ ಕರ್ತೆಲ್ಯಾಂನೊ*
*ಚತ್ರಾಯ್!*

ಅಶೆಂಚ್ ಮನ್ಶ್ಯಾಚೆಂ ಘನ್ ಆನಿ ಮಾನ್ ಗವ್ರವಾನ್ ಉಬಾರುನ್ ಧರ್ಚ್ಯೊ ಕವಿ, ಆಪ್ಣಾಭಿತರ್ ವ್ಹಾಳ್ಚ್ಯಾ ಅಗಾಧ್ ಸಕ್ತೆಚ್ಯಾ ಸಾಗೊರಾಕ್ ಒಳ್ಕನಾಸ್ತಾಂ ಎಕಾ ಕೊಪಾಖಾತಿರ್ ಜಿವಿತ್ ವಿಬಾಡ್ಚ್ಯಾ ಮನ್ಶ್ಯಾಚ್ಯಾ ಪೊಳ್ಕುರ್ಯಾ ಚಿಂತ್ಪಾಕ್ ಆನಿ ಆಬ್ಲೆಶಿ ಕರ್ಮಾಂಕ್ 'ನಿಸ್ಕಳ್ ಘಾಂತ್ಯಾರ್' ಕವಿತೆಂತ್ ಶಾಣ್ಯಾ ಉತ್ರಾಂನಿ ಸಾಣೆಕ್ ಧರ್ತಾ.

*ಬಗ್ಲೆನ್ ಏಕ್ ನ್ಹಂಯ್ ವ್ಹಾಳ್ತಾ*
*ತರೀ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಕೊಪಾಂತ್ಲೆಂ ಮಾತ್ರ್*
*ಹಾಂವೆಂ ವೊಂಟಾಂಕ್ ಧರ್ಚೆಂ.*
*ತೆಂ ಕೋಪ್ ಭರುಂಕ್ ಹಾಂವೆಂ*
*ವೇಳ್ ವಿಬಾಡಿನಾಸ್ತಾಂ*
*ಮಯ್ಲಾಂ ಮಯ್ಲಾಂ ಧಾಂವೊಂಕ್ ಆಸಾ!*

ಕವಿಚೆಂ ಸಿದ್ಧಾಂತ್, ಕವಿಚೆಂ ಕಲ್ಪನ್ ಆನಿ ವಸ್ತುಸ್ಥಿತಿ ಸಾಂಗಾತಾ ಮೆಳೊನ್ ಕಾಳ್ಜಾಕ್ ಹಾಲಂವ್ಚ್ಯೊ ಆವಾಜ್ ಉಟಂವ್ಚ್ಯೊ 'ಹಾಂವ್ ಮೆಳ್ಯಾ ವೊಂಟಾಂಚೊ', 'ಸೊಡ್‌ದೊಡ್' ತಸಲ್ಯೊ ಕವಿತಾ ಹ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಂತ್ ಆಸಾತ್. 'ನಟನ್', 'ಬೊಲ್ಮೆಂ', 'ಅಸಹಾಯಕ್', 'ಮೋಗ್ ಪಾನೆಂವ್ಕ್ ಸಲ್ವಲ್ಲ್ಯಾ ದಿಸಾ' ಕವಿತಾ ಕವಿನ್ ಜಿಯೆಂವ್ಚಿಂ ಮೊಲಾಂ ಆನಿ ಕವಿಕ್ ಸಮಾಜೆಥಾವ್ನ್ ಮೆಳ್ಚ್ಯಾ ಅನ್ಬೊಗಾ ಮಧೆಂ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾ ಘರ್ಶಣಾಚಿಂ ಕಿಟಾಳಾಂ ತಶಿಂ ದಿಸ್ತಾತ್.

ಹ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಂತ್ಲ್ಯೊ ಸರ್ವ್ ಕವಿತಾ ವಾಚುನ್ ಜಾಲ್ಯಾ ಉಪ್ರಾಂತ್, ಕವಿನ್ ಆಪುಣ್ ಜಿಯೆಂವ್ಚ್ಯಾ ಸಮಾಜೆಕ್ ಪಳೆಂವ್ಚಿ ರೀತ್ ವೆಗ್ಳಿ ಆನಿ ಕವಿನ್ ಆಪ್ಲಿ ಜಿಣಿ ಸ್ವೀಕಾರ್ ಕೆಲ್ಲಿ ರೀತ್ ವೆಗ್ಳಿ ತೆಂ ಸುಸ್ತಾತಾ. ಹ್ಯಾಚ್ ಪರ್ಮಾಣೆಂ ಕವಿತಾ ದೋನ್ ವಾಂಟೆ ಕರ್ಯೆತ್. ಸಮಾಜೆ ಕುಶಿನ್ ಪಳೆಂವ್ಚ್ಯೊ ಕವಿತಾ ಆನಿ ಸತಾಚ್ಯೆ ಸೊಧ್ನೆಕ್ ಲಾಗ್ಲ್ಯೊ ಕವಿತಾ. ಆಯ್ಚ್ಯಾ ಕಟೀಣ್ ಸಂಘರ್ಶಾಂತ್‌ಯೀ ಜಿವಿತಾಕ್ ಪೊಟ್ಲುನ್ ಧರುಂಕ್ ಹುಮೆದ್ ದಿಂವ್ಚಿ 'ಉಜ್ಯಾ ತುಜ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್' ಕವಿತಾ ಹ್ಯಾ ದೋನ್ ವಾಂಟ್ಯಾಂಕ್ ಸಾಂಕೊವ್ ಜಾವ್ನ್ ರಾವ್ತಾ. ಜಿವಿತಾಚ್ಯೆ ಸಂಕೀರ್ಣತೆಕ್ ಫುಡ್ ಕರುಂಕ್ ಸಕಾನಾಸ್ತಾಂ ಮನಿಸ್ ಲಾಂಕ್ಡಾಭಾಶೆನ್ ಪಿಡೇಸ್ತ್ ಜಾಲಾ. ಹ್ಯಾ ಮನ್ಶ್ಯಾಂಥಾವ್ನ್‌ಂಚ್ ಸಮಾಜ್ ಘಡ್ತಾ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾನ್ ಸಮಾಜ್ ಲಾಂಕ್ಡಾಭಾಶೆನ್ ಲಾಚಾರ್ ಜಾಲ್ಯಾ. ಪುಣ್ ಕವಿಚಿ ಪ್ರತಿಭಾ ಅಜ್ಯಾಪಾಂ ಕರ್ತಾ. ಕವಿಚೆಂ ಕಲ್ಪನ್ ವೈಂಕುಟಾಕ್ ಉಬ್ತಾ.

*ಪಿಶಾಳ್ ಜಿವಿಂನಿ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಆಂಗಾರ್*
*ಕೆಲ್ಲ್ಯಾ ಘಾಯಾಂಕ್*

*ಉಜ್ಯಾ ತುಜೆ ವೊಂಟಾ ಉಮೆ*
*ಚಾಂಪ್ಯಾ ಪರ್ಮಳ್ ಉಟಯ್ತಾತ್*
*ಹಾ! ತುಜ್ಯಾ-ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಮಿಲನಾವೆಳಾ*
*ಎದೆನಾಚ್ಯಾ ವನಾಂತ್ ಕೊಗುಳ್ಯೊ*
*ತಾಳೊ ಮೆಳಯ್ತಾತ್.*

*ಉಜ್ಯಾ ತುಜ್ಯೆ ವೆಂಗೆಭಾಯ್ರ್*
*ಸಾರ್‍ಲ್ಲೆ ದೀಸ್ ಭೆಶ್ಟೆಂ ಪೊಕೊಳ್*
*ಜರೀ ಪಯ್ಲೆಂ ಗೊಮ್ಲ್ಲೆಂ*
*ಕೆನ್ನಾಂಗೀ ಜಾತಿಂ ತುಜಿ ಹೊಕಲ್.*

ಕಸಲೊ ಉಜೊ ಹೊ, ಕವಿಕ್ ಜಿವಿತಾಚೊ ಖರೊ ಅರ್ಥ್ ದಿಂವ್ಚೊ? ಉಜ್ಯಾಚ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್ ಮತ್ವಾಸಿ ಕವಿ ಜಿಣಿಯೆಚೆ ಸಂಭ್ರಮಿಕ್ ಬಲಿದಾನ್ ಭೆಟವ್ನ್ ಆಸಾ ಆನಿ ವಾಚ್ಪ್ಯಾಕ್ ಹ್ಯಾ ಭೆಟವ್ಣೆಂತ್ ವಾಂಟೆಲಿ ಕರ್‍ನ್ ಅಸಾ.

ಹೊ ಉಜೊ ಸಮಾಜೆಚೊ ತಶೆಂಚ್ ಮನ್ಶ್ಯಾ ಭಿತರ್ಲೊ. ಭಿತರ್ಲೊ ಉಜೊ ಪಯ್ಲೆಂ ವೆಕ್ತಿಕ್ ಉಪ್ರಾಂತ್ ಸಮಾಜೆಕ್ ಪರಿವರ್ತನ್ ಕರುಂಕ್ ಸಕ್ಚೊ. ಜೊ.ಸಿ.ಚ್ಯೊ ಕವಿತಾ ಅಸಲ್ಯಾ ಉಜ್ಯಾಕ್ ವೆಂಗುಂಕ್ ಆಪವ್ಣೆಂ ದಿತಾತ್. ಉಜೊ ಗ್ರಾಸಿನಾ, ಪುಣ್ ನಿತಳ್ ಕರ್ತಾ ಮ್ಹಳ್ಳೊ ಅಖಂಡ್ ಭಾವಾಡ್ತ್ ಆಸ್‌ಲ್ಲ್ಯಾಂಕ್ ಉಜ್ಯಾಕ್ ವೆಂಗ್ಚೆಂ ಧಯ್ರ್ ಮೆಳ್ತಾ. ಜಿಣಿಯೆಕ್ ಜೊಕ್ತೆಂ ರೂಪ್ ಆನಿ ಅರ್ಥ್ ಮೆಳಾಜೆ ತರ್ ಹೊ ಉಜೊ ಗರ್ಜೆಚೊ. ಕವಿ 'ರಾಯಾಲಾಗಿಂ' ಕವಿತೆಂತ್ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ರಾಯಾಲಾಗಿಂ 'ತುಂ ಉಜೊ ಫುಂಕಿತ್ ರಾವ್, ಹಾಂವ್ ಪೆಟತ್ ರಾವ್ತಾಂ' ಮ್ಹಣ್ತಾ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಕವಿಕ್ ಉಜ್ಯಾಚ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್ ಭಾಂಗಾರ್ ಜಾಂವ್ಕ್ ಆಶಾ:

*ಆಗ್ಟ್ಯಾಂತ್ ಪಡ್ಲಾಂ ಹಾಂವ್*
*ರಾಯಾ,*
*ತುಜೆಂ ಭಾಂಗಾರ್*
*ಜಾಂವ್.*

ಹ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಂತ್ಲ್ಯೊ ಕವಿತಾ ಭೊಗ್ತೆಲ್ಯಾಂಕ್ ಭಾಂಗಾರ್ ಜಾಂವ್ಚೊ ಉಜೊ ಆಪ್ಣಾಂವ್ಚಿ ಬಳಾಧೀಕ್ ಆಶಾ ಕಿರ್ಲಾಲ್ಲ್ಯಾಂತ್ ನವಾಲ್ ನಾ. ಹಾಂವ್ ಚಿಂತಾಂ ಜೊ.ಸಿ.ಚ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಚೊ ಶೆವೊಟ್‌ಚ್ ಹೊ.

ಆನಿ ಪಂಚ್ವೀಸ್ ವರ್ಸಾಂ ಉಪ್ರಾಂತ್, ಮ್ಹಜ್ಯೆ ಉತರ್ ಪ್ರಾಯೆರ್ ಜರ್ ಕೋಣ್ ಯುವಜಣಾನ್ (ಆನಿ ಜಲ್ಮೊಂಚ್ಯಾ) ಪಂಚ್ವೀಸ್ ವರ್ಸಾಂ ಪಯ್ಲೆಂ ಆಮ್ಚಿ ಸಮಾಜ್ ಕಶಿ ಆಸ್‌ಲ್ಲಿ ಮ್ಹಣ್ ವಿಚಾರ್‍ಲ್ಯಾರ್ ಹಾಂವ್ ತಾಕಾ ಜೊ.ಸಿ.ಚೊ 'ಉಜ್ಯಾ ತುಜ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್' ಬೂಕ್ ದೀವ್ನ್ ವಾಚುನ್ ಸಮ್ಜೊನ್ ಘೆ ಮ್ಹಣ್ ಸಾಂಗ್ತಾಂ. ಕಿತ್ಯಾಕ್

ಮ್ಹಳ್ಯಾರ್ ಜೊ.ಸಿ.ನ್ ತಾಚ್ಯಾ ಕವಿತೆಂನಿ ಆಯ್ಚ್ಯಾ ಸಮಾಜೆಕ್ ಆನಿ ಜಿವಿತಾಕ್ ಪ್ರತಿಬಿಂಬಿತ್ ಕೆಲಾಂ ಮಾತ್ರ್ ನ್ಹಯ್, ಉಜ್ಯಾಚ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್ ಮನ್ಶ್ಯಾಕುಳಾಕ್ ಮೆಳ್ಚ್ಯಾ ಸೊಡ್ವಣೆಚೊ ಆಶಾವಾದ್ ಉಚಾರ್ಲಾ. ಬದ್ಲಾವಣ್ ಪಾರ್ಕುಂಕ್ ಪುಸ್ತಕಾಚಿ ಪ್ರತಿ ಸಾಂಬಾಳುನ್ ದವರ್ಚಿ ಗರ್ಜ್ ಅಸಾ!

ಜೊ.ಸಿ.ಚ್ಯೊ ಕವಿತಾ ತಾಣೆಂ ಸೊಧುನ್ ಕಾಡ್ನ್ ಪೊಟ್ಲುನ್ ಧರ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಸತಾಂಚೊ ವಾಂಟೊ ಜಾವ್ನಾಸೊನ್, ವಾಚ್ಪ್ಯಾಚ್ಯಾ ಚಾಲ್ತ್ಯಾ ಜಿಣಿಯೆಂತ್, ಮತಿಂತ್ ಪ್ರತಿಗಾಜ್ ಉಟವ್ನ್ ಜಿವಿತಾಕ್ ಅರ್ಥ್ ದಿಂವ್ಚಿ ಅಧ್ಭುತ್ ಸಕತ್ ಆಟಾಪುನ್ ಆಸಾತ್. ವಾಚ್ಪ್ಯಾಂನಿ ಉಗ್ತ್ಯಾ ಮನಾನ್ 'ಉಜ್ಯಾ ತುಜ್ಯೆ ವೆಂಗೆಂತ್' ಪುಸ್ತಕಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಕವಿತೆಂಕ್ ಆರಾವ್ನ್ ಧರ್ತಾನಾ ಹಿ ಅದ್ಭುತ್ ಸಕತ್ ಶಿರಾಂ ಶಿರಾಂನಿ, ಕಣಾಂ ಕಣಾಂನಿ ಪಾಶಾರ್ ಜಾಲ್ಲೊ ಅನ್ಭೋಗ್ ಜಾತಲೊ ತೆಂ ಖಂಡಿತ್. ಹೆಂ ಪುಸ್ತಕ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕವಿತಾ ಶೆತಾಕ್ ಜೊ.ಸಿ.ನ್ ಹ್ಯಾ ತರ್ಾಚ್ಯಾ ಪ್ರಾಯೆರ್ ದಿಲ್ಲಿ ಉಂಚ್ಲಿ ಕಾಣಿಕ್ ಮ್ಹಣ್ ಹಾಂವ್ ಲೆಕ್ತಾಂ.

– ಆಂಡ್ರ್ಯೂ ಎಲ್. ಡಿ'ಕುನ್ಹಾ

# हें म्हजें जिणयेचें काप

***घेयात आनी खायात.. हें म्हजें जिणयेचें काप..*** आशें म्हणूंक हांव धयर घेतां. मनीस आपल्या जिणये पयणार ताका रोमांचित करच्या, दुखाक लोटच्या, शिकूंक करच्या, जागंवच्या वेवेगळ्या अनभवांक लागून दिसानदीस धनात्मक व ऋणात्मक जावन वाडत वेता आनी ताच्या काळजाच्या भंडारांतलेंच तो भायर काडता. कवीय तसोच, ताका एक फुलगी पाकळिगी दीवन (व दाकवन) कविता बरय म्हळ्यार, ताच्या देण्यातेकिद तो उत्रां घुंतीत आनी कोण ताका ताळ बसवन गायतीत आनी चार पांय धलतीत. पुण निजायकी ती कविता त्या कविक तृप्तेचिगी? भोवशा ना! निजायकी, कवितेन आपणाकच कांतवन घेतल्ले शिवाय कवीन कितेंय गिच्चुंक जायना. अनभवांतल्या बिरढ्यांतल्यान रिगून येनातली कविता ती वाचतेल्याच्या काळजा मनांत स्पूरथेचें भीं वोंपूंक सकना. अनभवांतल्यान भूंय दवरल्ली कविता निजायकी कोण ना कोणाक कसलयागी अवचित घडिये आंवडता, धोसता, सांगात दिता, भुजां थापुडन उटयता. कविता अनयेकल्याक उजवाड जांवचे आदीं ती लिखतेल्याक घाळन पिळता तें उडास आसूंक जाय. कविते संगीं कवी आपणा भितर्च एक अथवोच आकार घेता. देकून ते कवितेंत तोय दिस्ता, ताची मनास्थिती, ताचें परिसर, ताची अभिरूच दिस्ता. ताचें जिणयेचें काप तें.

त्या देकून एक वाचपी, मोल दीवन पुस्तक घेताना तो घेतान्हय फकत तीं पानां, बगार बरवप्याची व कविची कितल्यागी वोरांची म्हिनत, चुकिंची तिह्वण, हुलपोन,शिजोन रूप घेतल्लें वेक्तित्व, संतोस आनी बेजारायेच्यो घडियो. ताच्या संसारांत रिगून वाचपी आपणाक्य व्हळकून घेता, आपणाचींच जिणये कापां सोधता.

हो म्हजो तिसरो कविता पुंजो. हाच्या आदले कविता जमे, 'पावसा धोणु' आनी 'मोरान सांडलेलीं पाकां' जायत्यांक पावल्यात; गांवांत, गोयांत तशेंच पर्गांवांत. तितले पयस पावूंक जायत्यांनी म्हजेर मोग दवर्न हात लांब केल्ले आसात; तांकां हांव ऋणी. ह्या कविता जम्यांत २०१२ – २०१५ वर्सांनी उदेल्ल्यो कविता आसात. कांय इल्ल्यो आध्यात्माच्यो, कांय इल्ल्यो तत्वांच्यो आनी चड जिणयेच्यो कविता आसात. कवितां सांगाता हांवी काती निकळावन उज्याचे वेंगेंत नवो आकार घेवन्च आसां तेंचड तृप्ती दिता.

कवितां सांगाता तुमचे मुकार येजे तर जायत्या पत्रांनी, जाळिजाग्याच्या संपादकांनी वाट करून दिल्ली हांव धीनपर्णी उडास काडतां. तांतूंय कारमेलीत फ्राद बाप स्टीवन, संपादक, नमान बाळोक जेजू, म्हयन्याळें, बाप प्रवीण पिंटो, ध्यानवन प्रकाशन आनी हेर कारमेलीत व्हडील तशेंच भाव हांची देणगी हांव मांदून घेतां. ह्या पुस्तकाक मात्र न्हय, जिणये पयणार्यी म्हाका सावळी जावन रावल्ल्या मोगाळ भयण मरिया पिंटो खातीर देवाक आर्गां दितां. कविमित्र अंद्राम (आंडऱ्यू एल. डी कुन्हा) म्हाका सदांच स्पूरथी जावन रावला आनी ह्या पुस्तकाचें पयलें वाचाप ताचें. वाचून बरेंच उगत्यान सांगलां, ताका हांव धिनवास्तां. लारेनसान हें पुस्तक आपलेंच म्हळ्ळ्या जोगासाणेन सजयलां आनी आमचोच कलाकार विल्सन कययार हाणें मुकलो फोर रंगाळ केला. दोगांयकी म्हजे प्रणाम. आनी वाचप्या, तुंवें म्हाका वाडयला, तुज्या वाचपारुचिक बरें मागतां.

अंतर दिश्टिचें देणें दिल्ल्या सर्वेसपराक अर्गां शिवाय कितें दींव. सर्वस्व ताचे थंय विशेवाक येंव.

**– जो. सी. सिद्दकट्टे कारमेलीत**

# ಹೆಂ ಮ್ಹಜೆಂ ಜಿಣಿಯೆಚೆಂ ಕಾಪ್

**ಘೆಯಾತ್ ಆನಿ ಖಾಯಾತ್... ಹೆಂ ಮ್ಹಜೆಂ ಜಿಣಿಯೆಚೆಂ ಕಾಪ್...** ಅಶೆಂ ಮ್ಹಣೊಂಕ್ ಹಾಂವ್ ಧಯ್ರ್ ಘೆತಾಂ. ಮನಿಸ್ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಜಿಣಿಯೆ ಪಯ್ಣಾರ್ ತಾಕಾ ರೋಮಾಂಚಿತ್ ಕರ್ಚ್ಯಾ, ದುಕಾಕ್ ಲೊಟ್ಚ್ಯಾ, ಶಿಕೊಂಕ್ ಕರ್ಚ್ಯಾ, ಜಾಗಂವ್ಚ್ಯಾ ವೆವೆಗ್ಳ್ಯಾ ಅನ್ಭೊಗಾಂಕ್ ಲಾಗುನ್ ದಿಸಾನ್‌ದೀಸ್ ಧನಾತ್ಮಕ್ ವಾ ಋಣಾತ್ಮಕ್ ಜಾವ್ನ್ ವಾಡತ್ ವೆತಾ ಆನಿ ತಾಚ್ಯಾ ಕಾಳ್ಜಾಚ್ಯಾ ಭಂಡಾರಾಂತ್ಲೆಂಚ್ ತೊ ಭಾಯ್ರ್ ಕಾಡ್ತಾ. ಕವಿಯ್ ತಸೊಚ್, ತಾಕಾ ಏಕ್ ಫುಲ್‌ಗೀ ಪಾಕ್ಳಿಗೀ ದೀವ್ನ್ (ವಾ ದಾಕವ್ನ್) ಕವಿತಾ ಬರಯ್ ಮ್ಹಳ್ಯಾರ್, ತಾಚ್ಯಾ ದೆಣ್ಯಾತೆಕಿದ್ ತೊ ಉತ್ರಾಂ ಗುಂತಿತ್ ಆನಿ ಕೋಣ್ ತಾಕಾ ತಾಳ್ ಬಸವ್ನ್ ಗಾಯ್ತಿತ್ ಆನಿ ಚಾರ್ ಪಾಂಯ್ ಧಲ್ತಿತ್. ಪುಣ್ ನಿಜಾಯ್ಕಿ ತಿ ಕವಿತಾ ತ್ಯಾ ಕವಿಕ್ ತೃಪ್ತೆಚಿಗಿ? ಬೊವ್ಶ್ಯಾ ನಾ! ನಿಜಾಯ್ಕೀ, ಕವಿತೆನ್ ಆಪ್ಣಾಕ್‌ಚ್ ಕಾಂತವ್ನ್ ಘೆತ್‌ಲ್ಲೆ ಶಿವಾಯ್ ಕವಿನ್ ಕಿತೆಂಯ್ ಗಿಚ್ಚುಂಕ್ ಜಾಯ್ನಾ. ಅನ್ಭೊಗಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಬಿಡ್ಯಾಂತ್ಲ್ಯಾನ್ ರಿಗೊನ್ ಯೇನಾತ್ಲಿ ಕವಿತಾ ತಿ ವಾಚ್ತೆಲ್ಯಾಚ್ಯಾ ಕಾಳ್ಜಾ ಮನಾಂತ್ ಸ್ಪೂರ್ತೆಚೆಂ ಬಿಂ ವೊಂಪುಂಕ್ ಸಕನಾ. ಅನ್ಭೊಗಾಂತ್ಲ್ಯಾನ್ ಭುಂಯ್ ದವರ್‌ಲ್ಲಿ ಕವಿತಾ ನಿಜಾಯ್ಕೀ ಕೋಣ್ ನಾ ಕೊಣಾಕ್ ಕಸಲ್ಯಾಗಿ ಆವ್ಚಿತ್ ಘಡಿಯೆ ಆಂವಡ್ತಾ, ಧೊಸ್ತಾ, ಸಾಂಗಾತ್ ದಿತಾ, ಭುಜಾಂ ಥಾಪುಡ್ನ್ ಉಟಯ್ತಾ. ಕವಿತಾ ಆನ್ಯೇಕ್ಲ್ಯಾಕ್ ಉಜ್ವಾಡ್ ಜಾಂವ್ಚೆ ಆದಿಂ ತಿ ಲಿಕ್ತೆಲ್ಯಾಕ್ ಗಾಳ್ನ್ ಪಿಳ್ತಾ ತೆಂ ಉಡಾಸ್ ಆಸೊಂಕ್ ಜಾಯ್. ಕವಿತೆಸಂಗಿಂ ಕವಿ ಆಪ್ಣಾ ಭಿತರ್‌ಚ್ ಏಕ್ ಅಥ್ವೊಚ್ ಆಕಾರ್ ಘೆತಾ. ದೆಕುನ್ ತ್ಯೆ ಕವಿತೆಂತ್ ತೊಯ್ ದಿಸ್ತಾ, ತಾಚಿ ಮನಾಸ್ಥಿತಿ, ತಾಚೆಂ ಪರಿಸರ್, ತಾಚಿ ಅಭಿರೂಚ್ ದಿಸ್ತಾ. ತಾಚೆಂ ಜಿಣಿಯೆಚೆಂ ಕಾಪ್ ತೆಂ.

ತ್ಯಾ ದೆಕುನ್ ಏಕ್ ವಾಚ್ಪಿ, ಮೋಲ್ ದೀವ್ನ್ ಪುಸ್ತಕ್ ಘೆತಾನಾ ತೊ ಘೆತಾ ನ್ಹಯ್ ಫಕತ್ ತಿಂ ಪಾನಾಂ, ಬಗಾರ್ ಬರವ್ಪ್ಯಾಚಿ ವಾ ಕವಿಚಿ ಕಿತ್ಲ್ಯಾಗೀ ವೊರಾಂಚಿ ಮ್ಹಿನತ್, ಚುಕಿಂಚಿ ತಿದ್ವಣ್, ಹುಲ್ಪೊನ್, ಶಿಜೊನ್ ರೂಪ್ ಘೆತ್‌ಲ್ಲೆಂ ವೆಕ್ತಿತ್ವ್, ಸಂತೊಸ್ ಆನಿ ಬೆಜಾರಾಯೆಚ್ಯೊ ಘಡಿಯೊ. ತಾಚ್ಯಾ ಸಂಸಾರಾಂತ್ ರಿಗೊನ್ ವಾಚ್ಪಿ ಆಪ್ಣಾಕ್‌ಯ್ ಒಳ್ಖೊನ್ ಘೆತಾ, ಆಪ್ಣಾಚೆಂಚ್ ಜಿಣಿಯೆ ಕಾಪಾಂ ಸೊಧ್ತಾ.

ಹೊ ಮ್ಹಜೊ ತಿಸ್ರೊ ಕವಿತಾ ಪುಂಜೊ. ಹಾಚ್ಯಾ ಆದ್ಲೆ ಕವಿತಾ ಜಮೆ, 'ಪಾವ್ಸಾ ಧೊಣು' ಆನಿ 'ಮೊರಾನ್ ಸಾಂಡ್ಲೆಲಿಂ ಪಾಕಾಂ' ಜಾಯ್ತ್ಯಾಂಕ್ ಪಾವ್ಲ್ಯಾಂತ್; ಗಾಂವಾಂತ್, ಗೊಯಾಂತ್ ತಶೆಂಚ್ ಪರ್ಗಾಂವಾಂತ್. ತಿತ್ಲೆ ಪಯ್ಸ್ ಪಾವೊಂಕ್ ಜಾಯ್ತ್ಯಾಂನಿ ಮ್ಹಜೆರ್ ಮೋಗ್ ದವರ್ನ್ ಹಾತ್ ಲಾಂಬ್ ಕೆಲ್ಲೆ ಆಸಾತ್; ತಾಂಕಾಂ ಹಾಂವ್ ಋಣಿ. ಹ್ಯಾ ಕವಿತಾ ಜಮ್ಯಾಂತ್ 2012–2015 ವರ್ಸಾಂನಿ ಉದೆಲ್ಲ್ಯೊ ಕವಿತಾ ಆಸಾತ್. ಕಾಂಯ್ ಇಲ್ಲ್ಯೊ ಆಧ್ಯಾತ್ಮಾಚ್ಯೊ, ಕಾಂಯ್ ಇಲ್ಲ್ಯೊ ತತ್ವಾಂಚ್ಯೊ ಆನಿ ಚಡ್ ಜಿಣಿಯೆಚ್ಯೊ ಕವಿತಾ ಆಸಾತ್. ಕವಿತಾ ಸಾಂಗಾತಾ ಹಾಂವ್‌ಯೀ ಕಾತಿ ನಿಕ್ಳಾವ್ನ್ ಉಜ್ಯಾಚೆ ವೆಂಗೆಂತ್ ನವೊ ಆಕಾರ್ ಘೆವ್ನ್‌ಚ್ ಆಸಾಂ ತೆಂ ಚಡ್ ತೃಪ್ತಿ ದಿತಾ.

ಕವಿತಾ ಸಾಂಗಾತಾ ತುಮ್ಚೆ ಮುಕಾರ್ ಯೇಜೆ ತರ್ ಜಾಯ್ತ್ಯಾ ಪತ್ರಾಂನಿ, ಜಾಳಿಜಾಗ್ಯಾಚ್ಯಾ ಸಂಪಾದಕಾಂನಿ ವಾಟ್ ಕರುನ್ ದಿಲ್ಲಿ ಹಾಂವ್ ದೀನ್ಪಣಿಂ ಉಡಾಸ್ ಕಾಡ್ತಾಂ. ತಾಂತುಂಯ್ ಕಾರ್ಮೆಲಿತ್ ಫ್ರಾದ್ ಬಾಪ್ ಸ್ಟೀವನ್ ಪಿರೇರಾ, ಸಂಪಾದಕ್, ನಮಾನ್ ಬಾಳೊಕ್ ಜೆಜು, ಮ್ಹಣ್ಯಾಕ್ನ್ಯಾಳೆಂ, ಬಾಪ್ ಪ್ರವೀಣ್ ಪಿಂಟೊ, ಧ್ಯಾನವನ ಪ್ರಕಾಶನ್ ಆನಿ ಹೆರ್ ಕಾರ್ಮೆಲಿತ್ ವ್ಹಡಿಲ್ ತಶೆಂಚ್ ಭಾವ್ ಹಾಂಚೆ ದೇಣ್ಗಿ ಹಾಂವ್ ಮಾಂದುನ್ ಘೆತಾಂ. ಹ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಕ್ ಮಾತ್ರ್ ನ್ಹಯ್, ಜಿಣಿಯೆ ಪಯ್ಣಾರ್‌ಯೀ ಮ್ಹಾಕಾ ಸಾವ್ಳಿ ಜಾವ್ನ್ ರಾವ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಮೊಗಾಳ್ ಭಯ್ಣ್ ಮರಿಯಾ ಪಿಂಟೊ ಖಾತಿರ್ ದೆವಾಕ್ ಅರ್ಗ್ಯಾಂ ದಿತಾಂ. ಕವಿ ಮಿತ್ರ್ ಅಂದ್ರಾಮ್ (ಆಂಡ್ರ್ಯೂ ಎಲ್. ಡಿ'ಕುನ್ಹಾ) ಮ್ಹಾಕಾ ಸದಾಂಚ್ ಸ್ಫೂರ್ತಿ ಜಾವ್ನ್ ರಾವ್ಲಾ ಆನಿ ಹ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಚೆಂ ಪಯ್ಲೆಂ ವಾಚಾಪ್ ತಾಚೆಂ. ವಾಚುನ್ ಬರೆಂಚ್ ಉಗ್ತ್ಯಾನ್ ಸಾಂಗ್ಲಾಂ, ತಾಕಾ ಹಾಂವ್ ಧಿನ್ವಾಸ್ತಾಂ. ಲಾರೆನ್ಸಾನ್ ಹೆಂ ಪುಸ್ತಕ್ ಆಪ್ಲೆಂಚ್ ಮ್ಹಳ್ಳ್ಯಾ ಜೊಗಾಸಾಣೆನ್ ಸಜಯ್ಲಾಂ ಆನಿ ಆಮ್ಚೊಚ್ ಕಲಾಕಾರ್ ವಿಲ್ಸನ್ ಕಯ್ಯಾರ್ ಹಾಣೆಂ ಮುಕ್ಲೊ ಪೊರ್ ರಂಗಾಳ್ ಕೆಲಾ. ದೊಗಾಂಯ್ಕೀ ಮ್ಹಜೆ ಪ್ರಣಾಮ್. ಆನಿ ವಾಚ್ಪ್ಯಾ, ತುವೆಂ ಮ್ಹಾಕಾ ವಾಡಯ್ಲಾ, ತುಜ್ಯಾ ವಾಚ್ಪಾರುಚಿಕ್ ಬರೆಂ ಮಾಗ್ತಾಂ.

ಅಂತರ್ ದಿಶ್ಟಿಚೆಂ ದೆಣೆಂ ದಿಲ್ಲ್ಯಾ ಸರ್ವೆಸ್ಪರಾಕ್ ಅರ್ಗ್ಯಾಂ ಶಿವಾಯ್ ಕಿತೆಂ ದೀಂವ್. ಸರ್ವಸ್ವ ತಾಚೆಥಂಯ್ ವಿಶೆವಾಕ್ ಯೇಂವ್.

– ಜೊ.ಸಿ. ಸಿದ್ದಕಟ್ಟೆ, ಕಾರ್ಮೆಲಿತ್

# ಭಿತರ್ಲ್ಯಾ ಪಾನಾನಿಂ

ಕವಿತಾ ಪಾನಾಂ

# मठवासिची कविता

हांवें धांवचें रावयलां;
सवकास चलूंक लागलां!

खंच्यागी एका दिसा
अवचित एक पुसपुसो'शें आयकून
'गक्क' कर्न रावल्लों,
तोच परत आयकूंक
हळू चलून व्हेतां.. दरवड ना

कितें आयकाल्लें?
किस्क हासो? व दुकी पिंरगोण?!
याद फटयता, घुट सोडिना

तो 'परमळ'यी आसूंक पुरो
अस्वाद कर्न धन्य जांवचे फुडें
खंय उभलो कळ्ळेंना

ट्राफिकेच्या किणकिणां मधें रावल्यारी
'म्यूट' जाल्ले टी. वी. परीं
दोळ्यां फुडलो संसार;
कान-दोळे-नाक सोडन चलून व्हेतां

हेच वाटेन परत परत व्हेची
गिरांत म्हणशात तुमी
खरें, कोणी हे वाटेन येत म्हण
हांवें चलूंक सुरू केल्लें न्हय!

कोणी येंवचोय ना
ताचीय धांवणी एक दीस
रावल्ले शिवाय,
त्याच पुसपुश्यान मार्न जागयिल्ले शिवाय!

## ಮತ್ಲಾಸಿಬಿ ಕವಿತಾ

ಹಾಂವೆಂ ಧಾಂವ್ಚೆಂ ರಾವಯ್ಲಾಂ;
ಸವ್ಕಾಸ್ ಚಲೊಂಕ್ ಲಾಗ್ಲಾಂ!

ಖಿಂಯ್ಸಾಗೀ ಎಕಾ ದಿಸಾ
ಅಪ್ಚಿತ್ ಏಕ್ ಪುಸ್ಪುಸೊ'ಶೆಂ ಆಯ್ಕೊನ್
'ಗಕ್ಕ್' ಕರ್ನ್ ರಾವ್‌ಲ್ಲೊಂ,
ತೊಚ್ ಪರತ್ ಆಯ್ಕೊಂಕ್
ಹಳೂ ಚಲೊನ್ ವ್ಹೆತಾಂ... ದರ್ವಡ್ ನಾ

ಕಿತೆಂ ಆಯ್ಕಾಲ್ಲೆಂ?
ಕಿಸ್ಕ್ ಹಾಸೊ? ವಾ ದುಕಿ ಪಿಂಗ್ರೊಣ್?!
ಯಾದ್ ಘಟಯ್ತಾ, ಘುಟ್ ಸೊಡಿನಾ

ತೊ 'ಪರ್ಮಳ್'ಯೀ ಆಸೊಂಕ್ ಪುರೊ
ಆಸ್ವಾದ್ ಕರ್ನ್ ಧನ್ಯ್ ಜಾಂವ್ಚೆ ಫುಡೆಂ
ಖಿಂಯ್ ಉಬ್ಲೊ ಕಳ್ಳೆಂನಾ

ಟ್ರಾಫಿಕಾಚ್ಯಾ ಕಿಣ್ಕಿಣಾಂ ಮಧೆಂ ರಾವ್ಲ್ಯಾರೀ
'ಮ್ಯೂಟ್' ಜಾಲ್ಲ್ಯೆ ಟಿ.ವಿ.ಪರಿಂ
ದೊಳ್ಯಾಂ ಫುಡ್ಲೊ ಸಂಸಾರ್;
ಕಾನ್-ದೊಳೆ-ನಾಕ್ ಸೊಡ್ನ್ ಚಲೊನ್ ವೆತಾಂ

ಹ್ಯೆಚ್ ವಾಟೆನ್ ಪರತ್ ಪರತ್ ವೆಚಿ
ಗಿರಾಂತ್ ಮ್ಹಣ್ಯಾತ್ ತುಮಿ
ಖರೆಂ, ಕೊಣೀ ಹ್ಯೆ ವಾಟೆನ್ ಯೆತ್ ಮ್ಹಣ್
ಹಾಂವೆಂ ಚಲೊಂಕ್ ಸುರು ಕೆಲ್ಲೆಂ ನ್ಹಯ್!

ಕೊಣೀ ಯೆಂವ್ಚೊಯ್ ನಾ -
ತಾಚಿಯ್ ಧಾಂವ್ಣಿ ಏಕ್ ದೀಸ್
ರಾವ್‌ಲ್ಲೆ ಶಿವಾಯ್,
ತ್ಯಾಚ್ ಪುಸ್ಪುಶ್ಯಾನ್ ಮಾರ್ನ್ ಜಾಗಯಿಲ್ಲೆ ಶಿವಾಯ್!

# चोर येवन गेल्लो

चोर येवन गेल्लो
जनेलार म्हज्या एक चंद्रा कुडको सांडून

हांव हासलों,
चोर कितें जाणा, हांव परदेशी
पुंजायिल्लें कांय ना, वांटल्लें मात्र

हांव चिंततां,
चोराचें तोंड जाल्लें हिंग केल्ल्या मांकडाचें

पूण एक  दुबाव;
कांय ताकाय म्हजो भितरलो घुट कळ्ळा!
देकून चंद्राकुडको हिंगाच सोडला?

हांव कांपतां,
कुडको चंद्रीम केन्नांय पुनवेचो जायत
भितरलें दिवें म्हजें चिंवून सोडीत!

# ಚೋರ್ ಯೇವ್ನ್ ಗೆಲ್ಲೊ

ಚೋರ್ ಯೇವ್ನ್ ಗೆಲ್ಲೊ
ಜನೆಲಾರ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಏಕ್ ಚಂದ್ರಾ ಕುಡ್ಕೊ ಸಾಂಡುನ್

ಹಾಂವ್ ಹಾಸ್ಲೊಂ,
ಚೋರ್ ಕಿತೆಂ ಜಾಣಾ, ಹಾಂವ್ ಪರ್ದೆಶಿ
ಪುಂಜಾಯಿಲ್ಲೆಂ ಕಾಂಯ್ ನಾ, ವಾಂಟ್ಲ್ಲೆಂ ಮಾತ್ರ್

ಹಾಂವ್ ಚಿಂತಾಂ,
ಚೊರಾಚೆಂ ತೋಂಡ್ ಜಾಲ್ಲೆಂ ಹಿಂಗ್ ಕೆಲ್ಲ್ಯಾ ಮಾಂಕ್ಡಾಚೆಂ

ಪುಣ್ ಏಕ್ ದುಬಾವ್;
ಕಾಂಯ್ ತಾಕಾಯ್ ಮ್ಹಜೊ ಭಿತರ್ಲೊ ಘುಟ್ ಕಳ್ಳಾ!
ದೆಕುನ್ ಚಂದ್ರಾಕುಡ್ಕೊ ಹಿಂಗಾಚ್ ಸೊಡ್ಲಾ?

ಹಾಂವ್ ಕಾಂಪ್ತಾಂ,
ಕುಡ್ಕೊ ಚಂದ್ರಿಮ್ ಕೆನ್ನಾಂಯ್ ಪುನ್ವೆಚೊ ಜಾಯ್ತ್
ಭಿತರ್ಲೆಂ ದಿರ್ವೆಂ ಮ್ಹಜೆಂ ಚಿಂವೊನ್ ಸೊಡಿತ್!

# बिडी बांदच्या चेडवालागीं

अगो बाये
म्हाका एक दुबाव चाळवता
तुका 'नकसला' ची सयरीक आसा?
दादल्या संततिचो राग आसोय काडताय?

तुवें अच्ची धरून
खोलो खातरताना
आमच्या तरनाट्यांची तकली
मासाच्या आंगडी मुनकुट्याचेर निदायिल्ली दिस्ता.

तुवें खोल्यार पिटो शिंपून
तळहातार घश्टून नळी करताना
केलशाचो वाकोर सुकुर नळियेक तोपता.
तुवें दोनी  खोववन
मुळाक गुलोबी सुतान आंरदिताना
चोकलेट वोडडावन बलात्कार
करची घुटमळ दिस्ता.

रांदणिचो धुंवोर घोटून
सवय आसच्या चेडवामुकार
एद्देशा मुळकुटाच्यो
धुंवरा मुदियो सोडून
खेळकुळां करतेल्यांनो
चत्राय!

## ಖಿಡಿ ಬಾಂದ್ಲ್ಯಾ ಚೆಡ್ವಾಲಾಗಿಂ

ಅಗೋ ಬಾಯೆ
ಮ್ಹಾಕಾ ಏಕ್ ದುಬಾವ್ ಚಾಳ್ವತಾ
ತುಕಾ 'ನಕ್ಸಲಾ'ಂಚಿ ಸಯ್ರಿಕ್ ಆಸಾ?
ದಾದ್ಲ್ಯಾ ಸಂತತಿಚೊ ರಾಗ್ ಅಸೊಯ್ ಕಾಡ್ತಾಯ್?

ತುವೆಂ ಅಚ್ಚಿ ಧರುನ್
ಖೊಲೊ ಖಾತರ್ತಾನಾ
ಆಮ್ಚ್ಯಾ ತರ್ನಾಟ್ಯಾಂಚಿ ತಕ್ಲಿ
ಮಾಸಾಚ್ಯಾ ಆಂಗ್ಡಿ ಮುಣ್ಕುಟ್ಯಾಚೆರ್ ನಿದಾಯಿಲ್ಲಿ ದಿಸ್ತಾ.

ತುವೆಂ ಖೊಲ್ಯಾರ್ ಪಿಟೊ ಶಿಂಪುನ್
ತಳ್ಹಾತಾರ್ ಘಶ್ಪುನ್ ನಳಿ ಕರ್ತಾನಾ
ಕೆಲ್ಯಾಚೊ ವಾಕೊರ್ ಸುಕುರ್ ನಳಿಯೆಕ್ ತೊಪ್ತಾ.
ತುವೆಂ ದೊನೀ ಪೊಂತಾಂ ಖೊವಪ್ನ್
ಮುಳಾಕ್ ಗುಲೊಬಿ ಸುತಾನ್ ಅಂದ್ರಿತಾನಾ
ಚೊಕ್ಲೆಟ್ ವೊಡ್ಡಾವ್ನ್ ಬಲಾತ್ಕಾರ್
ಕರ್ಚಿ ಘುಟ್ಮೆಳ್ ದಿಸ್ತಾ.

ರಾಂದ್ಣಿಚೊ ಧುಂವೊರ್ ಘೊಟುನ್
ಸವಯ್ ಆಸ್ಚ್ಯಾ ಚೆಡ್ವಾಮುಕಾರ್
ಎದ್ದೆಶ್ಯಾ ಮುಳ್ಕಾಟಾಚ್ಯೊ
ಧುಂವ್ರಾ ಮುದಿಯೊ ಸೊಡುನ್
ಖೆಳ್ಕುಳಾಂ ಕರ್ತೆಲ್ಯಾಂನೊ
ಚತ್ರಾಯ್!

जिणिभर द्वेशाची आनी मोगाची विंचवण आसली. हांवेंविंचलो मोग आनी आबळे हांगा आसां

– ए . आर. रेहमान

## मोग पानेवंक सलवल्ल्या दिसा

हांव मोग पानेवंक
सलवल्ल्या दिसा
खंय आसल्लीं नेणां, वाटेसुर्णी
गल्लेक एकलो आन्व्हळकी घुसललेपरीं
म्हजी तकली पळेवन्च
भांग दीवंक लागलीं

'सलां आलैकुम खादरिभायी'
हांवें सदांची सळगी घेतल्यारी
गुजरिवालो
परनें तगड व मुसकार भेतल्ली शिधी
पळेल्लेपरीं
ताकडेक हात घालिलागलो

लागीं लागीं पावलों तरी
घर म्हजें
वाऱ्याक भुलोन धांव मारचा मोडांपरीं
एकेकच मेट पाटीं काडतालें

हांव जाल्लों डोंकाचे बोंचिमधें
व्हळवळचो किडो !

ಜಿಣಿಭರ್ ದ್ವೆಶಾಚಿ ಆನಿ ಮೊಗಾಚಿ ವಿಂಚವ್ಣ್ ಆಸ್ಲಿ. ಹಾಂವೆಂ ವಿಂಚ್ಲೊ ಮೋಗ್ ಆನಿ ಆಜ್ ಹಾಂಗಾ ಆಸಾಂ

- ಎ.ಆರ್. ರೆಹಮಾನ್

## ಮೋಗ್ ಪಾನೆಂವ್ಕ್ ಸಲ್ವಲ್ಲ್ಯಾ ದಿಸಾ

ಹಾಂವ್ ಮೋಗ್ ಪಾನೆಂವ್ಕ್
ಸಲ್ವಲ್ಲ್ಯಾ ದಿಸಾ
ಖಂಯ್ ಆಸ್ಲ್ಲಿಂ ನೆಣಾಂ, ವಾಟೆಸುಣಿಂ
ಗಲ್ಲೆಕ್ ಎಕ್ಲೊ ಆನ್ವ್ಹಳ್ಳಿ ಘುಸ್ಲ್ಲೆಪರಿಂ
ಮ್ಹಜಿ ತಕ್ಲಿ ಪಳೆವ್ನ್‌ಚ್
ಭಾಂಗ್ ದೀಂವ್ಕ್ ಲಾಗ್ಲಿಂ

'ಸಲಾಂ ಆಲೈಕುಮ್ ಖಾದ್ರಿಭಾಯಿ'
ಹಾಂವೆಂ ಸದಾಂಚಿ ಸಳ್ಗಿ ಘೆತ್ಲ್ಯಾರೀ
ಗುಜ್ರಿವಾಲೊ
ಪರ್ನೆಂ ತಗಡ್ ವಾ ಮುಸ್ಕಾರ್ ಭೆತ್ಲ್ಲಿ ಶಿಧಿ
ಪಳೆಲ್ಲೆಪರಿಂ
ತಾಕ್ಡೆಕ್ ಹಾತ್ ಘಾಲಿಲಾಗ್ಲೊ

ಲಾಗಿಂ ಲಾಗಿಂ ಪಾವ್ಲೊಂ ತರೀ
ಘರ್ ಮ್ಹಜೆಂ
ವಾರ್‍ಯಾಕ್ ಭುಲೊನ್ ಧಾಂವ್ ಮಾರ್‍ಚ್ಯಾ ಮೊಡಾಂಪರಿಂ
ಎಕೇಕ್‌ಚ್ ಮೇಟ್ ಪಾಟಿಂ ಕಾಡ್ತಾಲೆಂ

ಹಾಂವ್ ಜಾಲ್ಲೊಂ ಡೊಂಕಾಚ್ಯೆ ಬೊಂಚಿಮಧೆಂ
ವಳ್ವಳ್ಚೊ ಕಿಡೊ!

# खुरसाव्हयलो मोग म्हजो

बावव्यापरीं मोग म्हजो
संसार आनी मोळभा मधें खुरसार जोडललो;
ताचे जोडी दोळे सोधताले...सोधताले
कोणाक, कोण जाणा?

कोण एकल्यान ताळो काडलो: "कित्या
खातीर हो नाटक?"
(एलिसांव येंवचार आसलें!?)
एकलेन ताळो उडयलो: "कोणा खातीर
हें प्रदर्शन?"
(फुंकयाचें मनोरंजन)
"भोवशा संसार्च मोलावंक
लागला पिसो"
(संसाराचें मोल कितलें?)
धव्या खाडाचो क्शीण ताळ्यान उद्गारलो:
"तरी ताचा वोंटार आसा हासो आंबोरपिको!"

खुरसाव्हयलो मोग म्हजो उलयलो:
"म्हाका तान लागल्या...
ये मनशाकुळा
तुजे वांवते घाय म्हज्या वोंटांक लाय..
पेकोवणी तुजी जातेली"

# ಖುರ್ಸಾವಯ್ಲೊ ಮೋಗ್ ಮ್ಹಜೊ

ಬಾಪ್ವ್ಯಾಪರಿಂ ಮೋಗ್ ಮ್ಹಜೊ
ಸಂಸಾರ್ ಆನಿ ಮಳ್ಬಾಮಧೆಂ ಖುರ್ಸಾರ್ ಜೊಡ್ಲಲೊ;
ತಾಚೆ ಜೊಡಿ ದೊಳೆ ಸೊಧ್ತಾಲೆ... ಸೊಧ್ತಾಲೆ
ಕೊಣಾಕ್, ಕೋಣ್ ಜಾಣಾ?

ಕೋಣ್ ಎಕ್ಲ್ಯಾನ್ ತಾಳೊ ಕಾಡ್ಲೊ: "ಕಿತ್ಯಾ ಖಾತಿರ್ ಹೊ ನಾಟಕ್?"
(ಎಲಿಸಾಂವ್ ಯೆಂವ್ಚ್ಯಾರ್ ಆಸ್ಲೆಂ!?)
ಎಕ್ಲೆನ್ ತಾಳೊ ಉಡಯ್ಲೊ: "ಕೊಣಾಖಾತಿರ್
ಹೆಂ ಪ್ರದರ್ಶನ್?"
(ಫುಂಕ್ಯಾಚೆಂ ಮನೋರಂಜನ್)
"ಭೊವ್ಯಾ ಸಂಸಾರ್‌ಚ್ ಮೊಲಾಂವ್ಕ್
ಲಾಗ್ಲಾ ಪಿಸೊ"
(ಸಂಸಾರಾಚೆಂ ಮೋಲ್ ಕಿತ್ಲೆಂ?)
ಧವ್ಯಾ ಖಾಡಾಚೊ ಕ್ಯೆಣ್ ತಾಳ್ಯಾನ್ ಉದ್ಗಾರ್ಲೊ:
"ತರೀ ತಾಚ್ಯಾ ವೊಂಟಾರ್ ಆಸಾ ಹಾಸೊ ಆಂಬೊರ್‌ಪಿಕೊ!"

ಖುರ್ಸಾವಯ್ಲೊ ಮೋಗ್ ಮ್ಹಜೊ ಉಲಯ್ಲೊ:
"ಮ್ಹಾಕಾ ತಾನ್ ಲಾಗ್ಲ್ಯಾ...
ಯೇ ಮನ್ಶ್ಯಾಕುಳಾ
ತುಜೆ ವಾಂವ್ತೆ ಘಾಯ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ವೊಂಟಾಂಕ್ ಲಾಯ್...
ಪೆಕೊವ್ನಿ ತುಜಿ ಜಾತೆಲಿ"

# भ्यें

उदकाक मारल्लो फातोर
खंयसरी ठिकानास्तां सराग
तळयाथळाक देंवल्लो पळेवन
काळीज कुसकालें!

देगेच्या घरांत अत्तां भूंय पडल्ल्या
बाळाचें रडणें आयकाता

संसारीं तळ्यांत आनयेक फातोर
देंवोन वेचें चिंतून काळीज दिंब्येर पडलें

तळ्यांत उटोन रावल्ल्या साळकाचेर
सुर्या किरणांची गंभीर जमात चलताली!

## ಖೈಂ

ಉದ್ಕಾಕ್ ಮಾರ್‌ಲ್ಲೊ ಘಾತರ್
ಖಂಯ್ಸರೀ ರಿಕಾನಾಸ್ತಾಂ ಸರಾಗ್
ತಳ್ಯಾಥಳಾಕ್ ದೆಂವ್‌ಲ್ಲೊ ಪಳೆವ್ನ್
ಕಾಳಿಜ್ ಕುಸ್ಕಾಲೆಂ!

ದೆಗೆಚ್ಯಾ ಘರಾಂತ್ ಆತ್ತಾಂ ಭುಂಯ್ ಪಡ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ
ಬಾಳಾಚೆಂ ರಡ್ಣೆಂ ಆಯ್ಕಾತಾ

ಸಂಸಾರಿ ತಳ್ಯಾಂತ್ ಆನ್ಯೇಕ್ ಘಾತರ್
ದೆಂವೊನ್ ವೆಚೆಂ ಚಿಂತುನ್ ಕಾಳಿಜ್ ದಿಂಬಿಯೆರ್ ಪಡ್ಲೆಂ

ತಳ್ಯಾಂತ್ ಉಟೊನ್ ರಾವ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಸಾಳ್ಕಾಕಿಚೆರ್
ಸುರ್ಯಾ ಕಿರ್ಣಾಂಚಿ ಗಂಭೀರ್ ಜಮಾತ್ ಚಲ್ತಾಲಿ!

# बिदऱ्यां पेंटेंतलो पावस

रिमजीम रिमजीम नाचूंक लायता
बिदऱ्यां पेंटेंतलो पावस!

पक्का राजकारणी हो, पावस पेंटेंतलो
आनी चार म्हयने तोच सरकार, ताचोच दळबार
दीश्ट आमची खोववंक लायता थंयच मोळभार

आटरांचो थेट चेडो, पावस पेंटेंतलो
चेडूं सातें सोडयता, हो हासोन फटयता
तें सातें दोडिता, हो घडयेन भिजयता

दुग्गप्पाचा कोडक्यांतली सूर हो, पावस पेंटेंतलो
चोयतां-चोयतानांच आमाल चडयता
मागिरयी रावल्यार रिणान बुडयता

पाकयार नेरांवचा कावळ्याकी फटंवचो सयरो, पावस पेंटेंतलो
कापये कोपांत अवचित वादाळ उटयता
दिसपोडत्या वाळ्यांत बुडल्ल्याची नीद भोंगयता

रिमजीम रिमजीम नाचूंक लायता
बिदऱ्यां पेंटेंतलो पावस!

# ಬಿದ್ರ್ಯಾಂ ಪೆಂಟೆಂತ್ಲೊ ಪಾವ್ಸ್

ರಿಮ್‌ಜಿಮ್ ರಿಮ್‌ಜಿಮ್ ನಾಚೊಂಕ್ ಲಾಯ್ತಾ
ಬಿದ್ರ್ಯಾಂ ಪೆಂಟೆಂತ್ಲೊ ಪಾವ್ಸ್!

ಪಕ್ಕಾ ರಾಜ್‌ಕಾರಣಿ ಹೊ, ಪಾವ್ಸ್ ಪೆಂಟೆಂತ್ಲೊ
ಆನಿ ಚಾರ್ ಮ್ಹಯ್ನೆ ತೊಚ್ ಸರ್ಕಾರ್, ತಾಚೊಚ್ ದಳ್ಬಾರ್
ದೀಶ್ಟ್ ಆಮ್ಚಿ ಖೊವಂವ್ಕ್ ಲಾಯ್ತಾ ಥಂಯ್ಚ್ ಮಳ್ಬಾರ್

ಅಟ್ರಾಂಚೊ ಥೇಟ್ ಪೊಕ್ರಿ ಚೆಡೊ, ಪಾವ್ಸ್ ಪೆಂಟೆಂತ್ಲೊ
ಚೆಡುಂ ಸಾತೆಂ ಸೊಡಯ್ತಾ, ಹೊ ಹಾಸೊನ್ ಘಟಯ್ತಾ
ತೆಂ ಸಾತೆಂ ದೊಡಿತಾ, ಹೊ ಘಡಿಯೆನ್ ಭಿಜಯ್ತಾ

ದುಗ್ಗಪ್ಪಾಚ್ಯಾ ಕೊಡ್ಕ್ಯಾಂತ್ಲಿ ಸುರ್, ಹೊ ಪಾವ್ಸ್ ಪೆಂಟೆಂತ್ಲೊ
ಚೊಯ್ತಾಂ-ಚೊಯ್ತಾನಾಂಚ್ ಆಮಾಲ್ ಚಡಯ್ತಾ
ಮಾಗಿರ್‌ಯೀ ರಾವ್ಲ್ಯಾರ್ ರಿಣಾನ್ ಬುಡಯ್ತಾ

ಪಾಕ್ಯಾರ್ ನೆರಾಂವ್ಚ್ಯಾ ಕಾವ್ಳ್ಯಾಕ್‌ಯೀ ಘಟಂವ್ಚೊ ಸಯ್ರೊ, ಪಾವ್ಸ್ ಪೆಂಟೆಂತ್ಲೊ
ಕಾಪ್‌ಯೆ ಕೊಪಾಂತ್ ಆವ್ಚಿತ್ ವಾದಾಳ್ ಉಟಯ್ತಾ
ದಿಸ್ಪಡ್ತ್ಯಾ ವ್ಹಾಳ್ಯಾಂತ್ ಬುಡ್‌ಲ್ಲ್ಯಾಚಿ ನೀದ್ ಭೊಂಗಯ್ತಾ

ರಿಮ್‌ಜಿಮ್ ರಿಮ್‌ಜಿಮ್ ನಾಚೊಂಕ್ ಲಾಯ್ತಾ
ಬಿದ್ರ್ಯಾಂ ಪೆಂಟೆಂತ್ಲೊ ಪಾವ್ಸ್!

# बोलमें

दिसाळें उसवन पारकांत
बसल्लों
पांयामुळा एक जोडी पावलां
येवन उभीं जालीं, हांव शेरमेलों

तो पिसो!

हातांतल्या दिसाळ्यार,
नोट खावन अजिर्ण जाल्ल्या मंत्रीक
जयलाक कुडांवची वर्दी...
आनी हो पिसो म्हजे मुकार
पांयशांचो नोट घेवन रावला!

हांवें पांय पाटीं वोडले
पिश्यान नोट बारीक पिंदलो
पिंदलो.... पिंदलो.... तोंडाक ?

जप्प कर्न उटोन गेलों मंदिराक
गळयले पांयशीं डब्याक

अगा सायभ्भा,
हें सपण म्हाका
परत नाका.

## ಖೊಲ್ಮೆಂ

ದಿಸಾಳೆಂ ಉಸವ್ನ್ ಪಾರ್ಕಾಂತ್
ಬಸ್‌ಲ್ಲೊಂ
ಪಾಂಯಾಮುಳಾ ಏಕ್ ಜೊಡಿ ಪಾವ್ಲಾಂ
ಯೇವ್ನ್ ಉಬಿಂ ಜಾಲಿಂ, ಹಾಂವ್ ಶೆರ್ಮೆಲೊಂ

ತೊ ಪಿಸೊ!

ಹಾತಾಂತ್ಲ್ಯಾ ದಿಸಾಳ್ಯಾರ್,
ನೋಟ್ ಖಾವ್ನ್ ಅಜೀರ್ಣ್ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾ ಮಂತ್ರಿಕ್
ಜಯ್ಲಾಕ್ ಕುಡಾಂವ್ಚಿ ವರ್ದಿ...
ಆನಿ ಹೊ ಪಿಸೊ ಮ್ಹಜೆ ಮುಕಾರ್
ಪಾಂಯ್ಯಾಂಚೊ ನೋಟ್ ಘೆವ್ನ್ ರಾವ್ಲಾ!

ಹಾಂವೆಂ ಪಾಂಯ್ ಪಾಟಿಂ ವ್ಹೊಡ್ಲೆ
ಪಿಶ್ಯಾನ್ ನೋಟ್ ಬಾರೀಕ್ ಪಿಂದ್ಲೊ
ಪಿಂಜ್ಲೊ... ಪಿಂಜ್ಲೊ... ತೊಂಡಾಕ್ ಚೆಪ್ಲೊ

ಜಪ್ಪ್ ಕರ್ನ್ ಉಟೊನ್ ಗೆಲೊಂ ಮಂದಿರಾಕ್
ಗಳಯ್ಲೆ ಪಾಂಯ್ಯಿಂ ಡಬ್ಬ್ಯಾಕ್

ಆಗಾ ಸಾಯ್ಬಾ,
ಹೆಂ ಸಪಣ್ ಮ್ಹಾಕಾ
ಪರತ್ ನಾಕಾ.

# नटन

म्हाकाय नटन येता म्हण
कळल्लें पोरच्
वाटेर अनाथ नोट पळेवन!

तेवशीन हेवशीन पळेलें
थेट चोरापरीं
देडादोळ्यांनी नोट तुकलो
ध्यानेस्त डोंकापरीं
'अवच' म्हण बागालों
कांटो तोपललेपरीं
बोटां इश्चांनी लिपयलो
मांकोड कर्चा जादूगारापरीं
मुसकार पळेतेल्यांक दांत दाकयले
कोल्गेट जायर्रताचा चेडवापरीं.........

इतलेंच तर बरें आस्तें!

आतां हेरांकी कळ्ळां म्हजें
नटनाचें तालेंत
ताणीं विचारताना जायना म्हणोंक जायना
एक पावटीं केल्ल्या कर्माक
आतां अनिवार्य नटन करिजे पडलां.

## ನಟನ್

ಮ್ಹಾಕಾಯ್ ನಟನ್ ಯೆತಾ ಮ್ಹಣ್
ಕಳ್ಲ್ಲೆಂ ಪ್ವೋರ್ಚ್
ವಾಟೆರ್ ಅನಾಥ್ ನೋಟ್ ಪಳೆವ್ನ್!

ತೆವ್ಹಿನ್ ಹೆವ್ಹಿನ್ ಪಳೆಲೆಂ
ಥೇಟ್ ಚೊರಾಪರಿಂ
ದೆಡಾದೊಳ್ಯಾಂನಿ ನೋಟ್ ತುಕ್ಲೊ
ಧ್ಯಾನೆಸ್ತ್ ಡೊಂಕಾಪರಿಂ
'ಅವ್ಟ್' ಮ್ಹಣ್ ಬಾಗಾಲೊಂ
ಕಾಂಟೊ ತೊಪ್ಲ್ಲೆಪರಿಂ
ಬೊಟಾಂ ಇಡ್ಯಾಂನಿ ಲಿಪಯ್ಲೊ
ಮಾಂಕೊಡ್ ಕರ್ಚ್ಯಾ ಜಾದೂಗಾರಾಪರಿಂ
ಮುಸ್ಕಾರ್ ಪಳೆತೆಲ್ಯಾಂಕ್ ದಾಂತ್ ದಾಕಯ್ಲೆ
ಕೊಲ್ಗೆಟ್ ಜಾಯ್ರಾತಾಚ್ಯಾ ಚೆಡ್ವಾಪರಿಂ...

ಇತ್ಲೆಂಚ್ ತರ್ ಬರೆಂ ಆಸ್ತೆಂ!

ಆತಾಂ ಹೆರಾಂಕ್ಯೀ ಕಳ್ಳಾಂ ಮ್ಹಜೆಂ
ನಟನಾಚೆಂ ತಾಲೆಂತ್
ತಾಣಿಂ ವಿಚಾರ್ತಾನಾ ಜಾಯ್ನಾ ಮ್ಹಣೊಂಕ್ ಜಾಯ್ನಾ
ಏಕ್ ಪಾವ್ಟಿಂ ಕೆಲ್ಲ್ಯಾ ಕರ್ಮಾಕ್
ಆತಾಂ ಅನಿವಾರ್ಯ್ ನಟನ್ ಕರಿಜೆ ಪಡ್ಲಾಂ.

# एलर्जी

फुलांचे मारकेटीक
जबरदस्तेन रिगचें वारें
फुलांचा आंगापांगांनी घुसोन
चडीत वारजीक करिनास्तां परमळ
खबरेविणें अपहर्सून धांवतालें
ते कुशीन आसच्या मासाचे आंगडी!

मासाचा आंगडी आयिल्ल्यांक मात्र
हें फुंकयाचें जायरात.
अपापींच तांचीं पावलां
फुलांतेवशीं घुंवतालीं
मास चाचांवचो मापळी मात्र
फुला पर्मळाक सरसरीत शिंको काडतालो.

आतां मापळ्यान
आंगड दुसरेकडे उभारल्या
विचारताना मापळी म्हणता
'म्हाका फुला पर्मळाची एलर्जी आसा!'

## ಎಲರ್ಜಿ

ಫುಲಾಂಚ್ಯೆ ಮಾರ್ಕೆಟಿಕ್
ಜಬರ್‌ದಸ್ತೆನ್ ರಿಗ್ಚೆಂ ವಾರೆಂ
ಫುಲಾಂಚ್ಯಾ ಆಂಗಾಪಾಂಗಾಂನಿ ಘುಸೊನ್
ಚಡಿತ್ ವಾರ್ಜಿಕ್ ಕರಿನಾಸ್ತಾಂ
ಪರ್ಮಳ್ ಖಬ್ರೆವಿಣೆಂ ಅಪಹರ್ಸುನ್ ಧಾಂವ್ತಾಲೆಂ
ತೈ ಕುಶಿನ್ ಆಸ್ಚ್ಯಾ ಮಾಸಾಚ್ಯೆ ಆಂಗ್ಡಿ!

ಮಾಸಾಚ್ಯಾ ಆಂಗ್ಡಿ ಆಯಿಲ್ಲ್ಯಾಂಕ್ ಮಾತ್ರ್
ಹೆಂ ಫುಂಕ್ಯಾಚೆಂ ಜಾಯ್ತ್ರಾತ್
ಆಪಾಪಿಂಚ್ ತಾಂಚಿಂ ಪಾವ್ಲಾಂ
ಫುಲಾಂತೆಮ್ಗಿಂ ಘುಂವ್ತಾಲಿಂ
ಮಾಸ್ ಚಾಚಾಂವ್ಚೊ ಮಾಪ್ಳಿ ಮಾತ್ರ್
ಫುಲಾ ಪರ್ಮಳಾಕ್ ಸರ್ಸರಿತ್ ಶಿಂಕೊ ಕಾಡ್ತಾಲೊ.

ಆತಾಂ ಮಾಪ್ಳ್ಯಾನ್
ಆಂಗಡ್ ದುಸ್ರೆಕಡೆ ಉಬಾರ್ಲ್ಯಾ
ವಿಚಾರ್ತಾನಾ ಮಾಪ್ಳಿ ಮ್ಹಣ್ತಾ -
'ಮ್ಹಾಕಾ ಫುಲಾ ಪರ್ಮಳಾಚಿ ಎಲರ್ಜಿ ಆಸಾ!'

# आमी दोगांय एक

गोमटी आड घालन बसल्ले
एकसुरे गिरबुजीचे
बोंची इझ्यांत कितेंगी आसलें...

हां...तो जळतो इंगळो!

'उजो लाय' म्हणाली
दोळे मोडून
गळय कित्या,
दिलो काडी वोडून

तिणें इंगळो उडयलो
म्हजे कोट्रेचेर
म्हजो पिराण उभलो
आनी गिरबुजे बगलेन बसलो

आतां आमी दोगांय एक
दोगांकी मोळाबच पाकें!

## ಆಮಿ ದೊಗಾಂಯ್ ಏಕ್

ಗೊಮ್ಪಿ ಆಡ್ ಘಾಲ್ನ್ ಬಸ್‌ಲ್ಲೆ
ಎಕ್ಸುರೆ ಗಿರ್ಬುಜೆಚ್ಯೆ
ಬೊಂಚಿ ಇಡ್ಯಾಂತ್ ಕಿತೆಂಗಿ ಆಸ್ಲೆಂ...

ಹಾಂ... ತೊ ಜಳ್ತೊ ಇಂಗ್ಲೊ!

'ಉಜೊ ಲಾಯ್' ಮ್ಹಣಾಲಿ
ದೊಳೆ ಮೊಡುನ್
ಗಳಾಯ್ ಕಿತ್ಯಾ,
ದಿಲೊ ಕಾಡಿ ವೊಡುನ್

ತಿಣೆಂ ಇಂಗ್ಲೊ ಉಡಯ್ಲೊ
ಮ್ಹಜೆ ಕೊಟ್ರೆಚೆರ್
ಮ್ಹಜೊ ಪಿರಾಣ್ ಉಬ್ಲೊ
ಆನಿ ಗಿರ್ಬುಜೆ ಬಗ್ಲೆನ್ ಬಸ್ಲೊ

ಆತಾಂ ಆಮಿ ದೊಗಾಂಯ್ ಏಕ್
ದೊಗಾಂಕ್‌ಯೀ ಮೊಳಾಬ್‌ಚ್ ಪಾಕೆಂ!

# द्रौपदिंचे विळाप

हे किसणा
तुजी मुरली फुंकित
खंय भंगलाय?
ह्या दुश्टां सांगाता तुंवी मेळ्ळाय
शिमटी नातल्या कोलयापरीं ?

पांडव हांगा थोडे भोंवतोणी
लाटी हातीं आसा, उभारूंक पर्वणगी ना
केमरा चारयी कुशिंनी
उज्वाडच उजवाड, दांपूंक जायच ना
दुश्ट हे पळेने किशणा
हांचा गर्जोणे मधें मुरली कांय उपकार्ना

कालदो किलो थानां, तंदूरी जांगळां
हांचा हातांनी पूड जालीं
वांटे घालची हांची चलाकी चोवून
मासाचा इमाम साबिन आंगड दांपली
दुश्ट हे पळेने किशणा
तुजे शिवाय़ आमकां हेर कोण ना

वाऱ्या होरबोसाक वळवळची वात आमगेली जिणी
जालिमूरे काणी खबरे पत्रार
अबल जावन रचुंनाकारे केन्नांय
खुशी तर तांचा गोव्यांतलीं गोरवां कर
कश्ट्ने तुकाय किशणा
तुकाच तुजें धयर ना, आसल्यारी कितें अर्जुना?

## ದ್ರೌಪದಿಂಚೆ ವಿಲಾಪ್

ಹೇ ಕಿಶ್ಣಾ
ತುಜಿ ಮುರಲಿ ಫುಂಕಿತ್
ಖಂಯ್ ಭಂಗ್ಲಾಯ್?
ಹ್ಯಾ ದುಶ್ಟಾಂ ಸಾಂಗಾತಾ ತುಂವೀ ಮೆಳ್ಳಾಯ್
ಶಿಮ್ಪಿ ನಾತ್ಲ್ಯಾ ಕೊಲ್ಯಾಪರಿಂ ಪೊಳ್ಳಾಯ್?

ಪಾಂಡವ್ ಹಾಂಗಾ ಥೊಡೆ ಭೊಂವ್ತೊಣಿ
ಲಾಟಿ ಹಾತಿಂ ಆಸಾ, ಉಬಾರುಂಕ್ ಪರ್ವಣ್ಗಿ ನಾ
ಕೆಮರಾ ಚಾರ್‌ಯೀ ಕುಶಿಂನಿ
ಉಜ್ವಾಡ್‌ಚ್ ಉಜ್ವಾಡ್, ಧಾಂಪುಂಕ್ ಜಾಯ್‌ಚ್ ನಾ
ದುಶ್ಟ್ ಹೆ ಪಳೆನೇ ಕಿಶ್ಣಾ
ಹಾಂಚ್ಯಾ ಗರ್ಜೊಣೆ ಮಧೆಂ ಮುರಲಿ ಕಾಂಯ್ ಉಪ್ಕಾರ್ನಾ

ಕಾಲ್ದೊ ಕಿಲೊ ಥಾನಾಂ, ತಂದೂರಿ ಜಾಂಗ್ಯಾಂ
ಹಾಂಚ್ಯಾ ಹಾತಾಂನಿ ಪೂಡ್ ಜಾಲಿಂ
ವಾಂಟೆ ಘಾಲ್ಚಿ ಹಾಂಚಿ ಚಲಾಕಿ ಚೊವುನ್
ಮಾಸಾಚ್ಯಾ ಇಮಾಮ್ ಸಾಬಿನ್ ಆಂಗಡ್ ದಾಂಪ್ಲಿ
ದುಶ್ಟ್ ಹೆ ಪಳೆನೇ ಕಿಶ್ಣಾ
ತುಜೆ ಶಿವಾಯ್ ಆಮ್ಕಾಂ ಹೆರ್ ಕೋಣ್ ನಾ

ವಾರ್ಯಾ ಹೊರ್ಬೊಸಾಕ್ ವಳ್ವಳ್ಚಿ ವಾತ್ ಆಮ್ಗೆಲಿ ಜಿಣಿ
ಜಾಲಿಮೂರೆ ಕಾಣಿ ಖಬ್ರೆ ಪತ್ರಾರ್
ಅಬಲ್ ಜಾವ್ನ್ ರಚುಂನಾಕಾರೆ ಕೆನ್ನಾಂಯ್
ಖುಶಿ ತರ್ ತಾಂಚ್ಯಾ ಗೊಟ್ಯಾಂತ್ಲಿಂ ಗೊರ್ವಾಂ ಕರ್
ಕಶ್ಟ್‌ನೇ ತುಕಾಯ್ ಕಿಶ್ಣಾ
ತುಕಾಚ್ ತುಜೆಂ ಧಯ್ರ್ ನಾ, ಆಸ್ಲ್ಯಾರೀ ಕಿತೆಂ ಅರ್ಜುನಾ?

# दोनपारां दोनांची प्रकृती

चित्रकारान धरून क्यानवासांत
बंधी केल्ल्या पिंतुरापरीं
केमरामेनाच्या आदेशाक
पेंकाड मोडून हालनास्तां
 दिंवच्या नटिपरीं
एकामेकाचा बुखांख्याक तकली दीवन
रस्त्यादेगेन हर्ताळ निरत लोरियांपरीं
स्तब्द ही
दोनपारां दोनांची प्रकृती

सासणाचें मावन..........
त्या मावनाचा क्यांपसा भायर थावन उमाळची
सुण्या बोब
सुकण्या बुलाव
चानियेची चिक चींव
हांगा कांय फरक पडना

चोय, रूक झडां
गूंड ध्यानासक्त जाल्यांत
मुळांतल्या फात्रांक सासणाची नीद,
रुकार जीव दिंवच्या वालींक
जेवणा उपरांतली 'सियेस्ता'......
ति पूरा व्हडांची मर्जी हाबा!

पूण अळे.....!
मोंव चिंवच्या मुसांची
चिट्ल्याळ्या पिसोळ्यांची
दोळ्यांक फटंवच्या मूयांची
खोल्यांनी लिपच्या गुंगुरल्यांची
भितरले भितर किडिंची
'दिसपोटी' मुकारून वेता
मुकारून वेता...

## ದನ್ಪಾರಾಂ ದೊನಾಂಚಿ ಪ್ರಕೃತಿ

ಚಿತ್ರ್‌ಕಾರಾನ್ ಧರುನ್ ಕ್ಯಾನ್ವಾಸಾಂತ್
ಬಂಧಿ ಕೆಲ್ಲ್ಯಾ ಪಿಂತುರಾಪರಿಂ
ಕೆಮರಾಮೆನಾಚ್ಯಾ ಆದೇಶಾಕ್
ಪೆಂಕಾಡ್ ಮೊಡುನ್ ಹಾಲನಾಸ್ತಾಂ
ಪೋಸ್ ದಿಂವ್ಚ್ಯಾ ನಟಿಪರಿಂ
ಎಕಾಮೆಕಾಚ್ಯಾ ಬುಕಾಂಡ್ಯಾಕ್ ತಕ್ಲಿ ದೀವ್ನ್
ರಸ್ತ್ಯಾದೆಗೆನ್ ಹರ್ತ್ಯಾಳ್ ನಿರತ್ ಲೊರಿಯಾಂಪರಿಂ
ಸ್ತಬ್ಧ್ ಹಿ
ದನ್ಪಾರಾಂ ದೊನಾಂಚಿ ಪ್ರಕೃತಿ

ಸಾಸ್ಣಾಚೆಂ ಮಾವ್ನ್...
ತ್ಯಾ ಮಾವ್ನಾಚ್ಯಾ ಕ್ಯಾಂಪಸಾ ಭಾಯ್ರ್ ಥಾವ್ನ್ ಉಮಾಳ್ಚಿ
ಸುಣ್ಯಾ ಬೋಬ್
ಸುಕ್ಣ್ಯಾ ಬುಲಾವ್
ಚಾನಿಯೆಚಿ ಚಿಕ್ ಚಿಂವ್
ಹಾಂಗಾ ಕಾಂಯ್ ಫರಕ್ ಪಡನಾ

ಚೊಯ್, ರೂಕ್ ಝುಡಾಂ
ಗೂಂಡ್ ಧ್ಯಾನಾಸಕ್ತ್ ಜಾಲ್ಯಾಂತ್
ಮುಳಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಘಾತ್ರಾಂಕ್ ಸಾಸ್ಣಾಚಿ ನೀದ್,
ರುಕಾರ್ ಜೀವ್ ದಿಂವ್ಚ್ಯಾ ವ್ಹಾಲಿಂಕ್
ಜೆವ್ಣಾ ಉಪ್ರಾಂತ್ಲಿ 'ಸಿಯೆಸ್ತಾ'...
ತಿ ಪೂರಾ ವ್ಹಡಾಂಚಿ ಮರ್ಜಿ ಹಾಬಾ!

ಪುಣ್ ಅಳೆ...!
ವ್ಹೊಂವ್ ಚಿಂವ್ಚ್ಯಾ ಮುಸಾಂಚಿ
ಚಿಟ್ಸ್ಟ್ಯಾ ಪಿಸೊಳ್ಯಾಂಚಿ
ದೊಳ್ಯಾಂಕ್ ಘಟಂವ್ಚ್ಯಾ ಮುಯಾಂಚಿ
ಖೊಲ್ಯಾಂನಿ ಲಿಪ್ಚ್ಯಾ ಗುಂಗುರ್ಲ್ಯಾಂಚಿ
ಭಿತರ್ಲೆ ಭಿತರ್ ಪೊಕೊರ್ಚ್ಯಾ ಕಿಡಿಂಚಿ
'ದಿಸ್ಪೊಟಿ' ಮುಕಾರುನ್ ವೆತಾ
ಮುಕಾರುನ್ ವೆತಾ...

## जातरो

भुरगीं जात्र्याक गेल्यांत
मिणकुंचे चिमणेक एकसुरेंच
घरा सोडून

थंय पळे दोळ्यां काळोक हाडचे दिवे
भुगऱ्यांक कसलिगी मजा.
त्या दिव्यांक कितल्या पिसोळ्यांनी
होम बलियो भेटयल्यात...कांय कळना
तितल्याक्य
दिवे पळेवंक म्हणच कोण जात्र्याक वेता?

त्या मिनियेचर दिवया उजवाडांत
मातेंभर फुलां माळल्ल्या
उडकाणां दिसतात
हातांत गिर्गीट काणगेवन गाडी
दांवडांवचीं पिलकार्टीं दिसतात
नव्या जोड्यांचीं भुजां घास्तात
चेड्यांचा वोंटांनी शिलोण्यो वाळतात

ताचे इड्यांत
रस्त्यादेगेन ल्हानशी फिंरगोण
दिवया उजवाडांत खिरोन वेता.

त्या हेलोजिन दिवया उजवाडांत
पोलिस, व्यानालागीं रावोन गपपे मारतात
चोर फिकिर नासतां हाताचलाकी चलयतात
वेपारी हासोन हासोन व्हडले नोट पिळतात
दोळ्यां मुकार मांकोड नाचयतात

ताचे इड्यांत
लककिडीप ड्रा जाता
लककी नंबर मात्र तांचेच आस्ता.

भुरगीं पार्टी येतात
हातांत सुरू सुरू कड्डी घेवून
मिणकुंची चिमणी दीर्घ स्वास घेवून
प्राण सोडता.

